# मनीसपणाचो ताज जमनालाल बजाज



कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

मनीसपणाचो ताज

# जमनालाल बजाज

कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

अपुरबाय प्रकाशन

MANISPANACHO TAJ – JAMNALAL BAJAJ
(Biography)
By KAMALAKAR DATTARAM MHALSHI

प्रकाशन क्र. ५१



**पयली उजवाडावणी :**
डिसेंबर १९९२

**उजवाडावपी :**
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**छापपी :**
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**मुखचित्र :**
श्रीधर कामत बांबोळकार

**मोल :** ३० रुपया

श्रीस्थळ-काणकोण
ता. ७ नोव्हेंबर, १९९२

प्रिय दादा,

घरांत आयिल्ल्याक 'बस' म्हणटना आनी 'च्या घेवन वच' म्हणटना तुवें नकळटना आमकां शिश्टाचाराची देख दिली, स्वता हिशोब बरोवन दवरतना वेव्हाराचें गणित आमकां शिकयलें, भायर सरतना 'येतां हां' म्हणटना, रीत-नीत आनी संस्कृतायेचे धडे घडींघडीं आमकां चिरपाक घाले. जीणभर देव देव करीत देवस्थानची आनी बाबापूता करीत समाजाची सेवा करतना 'काटकार' म्हूण फुडारपण आनी 'अवतारपुरीस' म्हूण आत्मबळ आमच्या आंगांपांगांत केळयलें आनी उफाट मायाप्रेम दितना तळटासमान सांबाळप म्हणटात तें कितें ताचो बेस्स बरो आदर्श आमचेमुखार घालून दवरलो.

नोकरेखातीर भायर सरतना, निरोप दितना तर पयल्याच दिसा 'भुरग्यांक बी मारूंनाका हां!' असो उपदेश करून तुवें शिक्षणशास्त्रावांगडा मानसशास्त्रूय म्हाका शिकयलें.

तुज्या रिणांतल्यान मेकळें कशें जावं येयत?

देखुनूच, तुज्याच कश्टांचें हें फळ तुका ओंपतां – 'मनीसपणाचो ताज – जमनालाल बजाज'.

कमलाकर

# काणयो वाचचे पयलीं

'मनीसपणाचो ताज – जमनालाल बजाज' काणयां पुस्तकांतल्यो काणयो वाचचेपयलीं थोडी फाटभूंय समजून घेवप गरजेचें. पयली गजाल — ह्या काणयांनी पुराय जमनालाल बजाज येवंक पावले ना. कारण, पू. विनोबाजी म्हणटात तेप्रमाण 'तांचो आत्मो तांचेच कुडींत धरनासलो', जाल्यार ह्या धाकटुल्या पंदरा काणयांनी तरी कसो धरतलो? तेभायर काणयो बरयतल्याची तांक ती कितली?

पूण अखिल भारतीय पांवड्यावयल्या ज्येश्ठ देशभक्त फुडाऱ्याची, म. गांधीजींच्या पांचव्या मानसपुताची – जमनालाल बजाजाची – काणी तुमकां सांगप ही म्हजी गरज. सामकी गरज.

शेठ बच्छराज बजाजांच्या घराण्याची गिरेस्त परंपरा मेळुनूय जमनालाल वेपारधंदो करपी 'शेठ' जावंक शकले नात, उरफाटें प्रामाणिक, स्वाभिमानी सत्याग्रही देशभक्तापसून आत्मसंशोधन करपी म्हापुरुसामेरेन तांचे जिणेची जी म्हायात्रा जाली, तिचो खर परिणाम १९८९ वर्सा म्हजेर जालो.

जमनालाल बजाज जल्मशताब्दीचें वर्स तें. तेन्नाचे भारताचे सरन्यायाधीश श्री. एम्. हिदायतुल्लांचे अध्यक्षतेखाला मुंबयंत जमनालाल बजाज जल्मशताब्दी समारोह समितीची स्थापणूक जाल्ली. कांय म्हत्त्वाच्यो कार्यावळी थरिल्ल्यो. काणयांतल्यान भुरग्यांमनाचेर संस्कार करपी अखिल भारतीय साने गुरुजी कथामालेन आनी पुण्याचे साने गुरुजी कथाकथन प्रबोधिनीन हेनिमतान भुरग्यांक जमनालाल बजाजांच्यो काणयो सांगपाची एक कार्यावळ आंखिल्ली. गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक, गुजरात मेळून ५ लाख भुरग्यांक काणयो सांगपाच्यो आसल्यो. तेखातीर पूर्वतयारी म्हूण अ.भा. साने गुरुजी कथामालेन गोवा प्रदेश साने गुरुजी कथामालेच्या आयोजनाखाला गोंयांत एका दिसाचें कथानिवेदक शिबीर घेतलें. मडगांवच्या

नूतन महिला विद्यालय हायस्कूलांत आयतारा १७ सप्टेंबर १९८९ दिसा हें शिबीर जालें. कथामालेचे श्री. राम मोहाडीकर, सौ. मृणालिनी देसाई, श्री. गोविंदराव शिंदे, तेचप्रमाण थळावे पदाधिकारी श्री. पांडुरंग नाडकर्णी, श्री. पांडुरंग मराठे, श्री. माधव पंडित, श्री. अरविंद नेवगी हांणी शिबिराक मार्गदर्शन केलें.

साने गुरुजी कथामालेकडलो म्हजो संबंद खूब्ब पयलींपसूनचो. वेगळ्यावेगळ्या पांवड्यांवयलो. पूण सामको लागींचो. कथानिवेदक म्हूण हांवूय मडगांवच्या त्या शिबिरांत हाजीर आशिल्लों. शिबिरांत विसकटावन सांगिल्ले जमनालाल बजाजाचे जिणेचो म्हजेर खूबच प्रभाव पडलो. उपरांत ते नदरेन हांवें काणकोणांत कामूय सुरू केलें.

मात्त, हेआदींचो सगलो अणभव जमेक धरून जमनालाल बजाजांचे समर्पित जिणेच्यो कथा कोंकणींतल्यान सांगल्यार चड बऱ्याक पडटलें, अशें म्हाका दिसलें. मदीं कथामालेंत 'कथा मराठीतूनच सांगितली पाहिजे' असो सिद्धान्त मांडपी एक कीड घुसली. हांवें खर आक्षेप घेतलो आनी पू. साने गुरुजींच्या आंतरभारती सपनाखातीर कोंकणीतल्यान कथा, काणयो सांगुकूच जाय अशें म्हाका खरायेन दिसूंक लागलें. पूण तेखातीर तयार काणयो जाय आशिल्ल्यो. म्हजेकडेन 'जमनालाल बजाज जन्मशताब्दी समारोह समिती'न उजवाडा हाडिल्लें जमनालाल बजाज – बोले तैसा चाले (मूळ लेखक सुदीप, मुकुल उपाध्याय) हें एक पुस्तक आनी कथाकथन प्रबोधिनीचे मानद संचालक, आमचे मार्गदर्शक इश्ट श्री. गजानन म. केळकर हांणी बरयिल्लें 'जमनालाल बजाज – एक समर्पित जीवन' हें एक पुस्तक अशीं दोन कथांचीं पुस्तकां आशिल्लीं.

हांवें त्या पुस्तकांच्या आदारान भुरग्यांखातीर काणयो बरोवपाचें थारायलें आनी परवानगेखातीर तांकां बरोवनूय मेकळों जालों. सानेगुरुजी कथाकथन प्रबोधिनीचे श्री. ग. म. केळकर आनी जमनालाल बजाज जन्मशताब्दी समारोह समितीचे सचिव श्री. प्र. ज. जोशी हांणी दोगांयनीय कोंकणीतल्यान काणयो बरोवपाखातीर आपल्या पुस्तकांचो आदार घेवपाची परवानगी म्हाका व्हड मनान दिली.

प्रयोग म्हणून हांवें 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांतलें 'भुरग्यांल्या आंगणांत' सदर वापरपाचें थारायलें. तेवेळावयले सुनापरान्ताचे संपादक ॲड.

उदय ल. भेंब्रे हांणी सोंपेपणान मान्यताय दिली आनी ‘जमनालाल बजाज – समर्पित जिणेचो ताज’ नांवासकयल काणयो बरोवन जाल्यो. पूण कांय तेंपान संपादक बदलले आनी काणयो बरोवप चालू दवरपाचें काम मनाआड थांबोवचें पडलें.

मदीं नोकरेवांगडा शिक्षणीक, संस्कृतीक, समाजीक, साहित्यीक चळवळींनी वांटो घेतना संघटनात्मक कामाची जापसालदारकी वाडत गेली आनी साहित्य-निर्मणेक फावो तो न्याय दिवप शक्य जालें ना.

पूण आज मात काणयांचें हें बाळशें तुमचे सुवादीन करतना ख्यातकुल्यांनी काळीज खोशयेन भरून व्हांवता!

हेवेळार कोंकणीच्या दायजाक आनी दायज्यांक नमन करीन दिसता. आनी निमाणें काणयांच्या ह्या बाळशाक न्हावोवन धुवोवन, पावडर-काजळाचें बोट लावन आनी आंगलें-तोपरें घालून साहित्य-माचयेर व्हाडपी भौ. हेमाबाय नायक, पुंडलीकबाब नायक, हिरूबाब नायक, भौ. उदयबाब भेंब्रे, श्रीधरबाव बांबोळकार, रमेशबाब कोमरपंत, गजेशबाब भाटीकार बी कितल्याशाच जाणांसंबंदान कृतज्ञताय उक्तायली ना जाल्यार तें सोबून दिसत?

श्रीस्थळ–काणकोण, गोंय
ता. १९ डिसेंबर, १९९२

**कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**

# चरित्रांच्यो खणी मारुंया

# .... आदर्श मेळटले

व्हडविकेक पाविल्ल्या पुरुशार्थी मनशांची चरित्रां हो समाजीक इतिहासाचो एक म्हत्त्वाचो वांटो. आयचे समाजीक परिस्थितींत तर असल्या चरित्रांक खाशेलें म्हत्त्व आसा. नवे पिळगे मुखार बरे आदर्श नात देखून ते पिळगेचेर बरे संस्कार जायनात अशी पिर्गण खूब फावटी आयकूंक येता. ती सामकीच फट अशें न्हय; पूण आदर्श सोदपाक जी एक नदर लागता ती आमी वगडावन बसल्यात, अमक्याच एका मळार आदर्श सोदूंक लागल्यात हेंवूय तितलेंच खरें.

जिविताचीं मळां खूब आसात. आदर्शांचो मक्तो तांतल्या अमक्याच मळांक आसता अशें न्हय. आदर्श खंयच्याय मळार आसुं येता. कोणूय खंयच्याय मळार व्हडविकेक पावलो तरी ते व्हडविकेच्या मुळांत कांय गूण आसतात आनी आदर्शाचे लामणदिवे जावं येतात. देखून बरीं चरित्रां ह्यो आदर्शाच्यो खाणी जावं येतात. आयज बोट दाखोवपासारके आदर्श नात अशें म्हणप ही अतिताय जातली; पूण खीणभर तें खरें अशें मानलें तरी आमचो इतिहास आनी दायज आदर्शांनी भरिल्लें आसा. अशा वेळार निर्शेणेन भरिल्ल्या आयच्या चित्राकडेन आडनदर करून आमी इतिहासांतल्या पुरुशार्थाचें चित्र दोळ्यांमुखार कित्याक हाडचें न्हय? महात्मा गांधींनी रामराज्याची खबर जेन्ना जेन्ना केली तेन्ना तेन्ना इतिहासांतल्या आदर्शाकडेनूच बोट दाखयलें ना?

हें पुस्तक बरोवपाफाटली श्री. कमलाकर द. म्हाळशी हांचीय

भावना तशीच आसुंये. ते खूब वर्सां शिक्षक म्हणून वावुरल्यात. शिक्षणाच्या मळार वेग-वेगळ्या पांवड्यांचेर विद्यादानाचो वावर करून तांणी मोलादीक अणभव घेतला. शिक्षकांच्या संघांनीय तांणी संघटनात्मक वावर केला. हेभायर समाजीक आनी सांस्कृतीक मळार समाजीक हिताच्या उत्फर्क्यान ते वावरत आयल्यात आनी आयजूय क्रियाशील आसात. नवे पिळगेचे गूण-दोश तांणी खूब लागींच्यान पळयल्यात आनी समाजीक जाणविकायेचे नदरेन तांची विस्कावणी करपाचो यत्न केला. फुलते पिळगेच्या मनाचेर बरे संस्कार घडोवपाची गरज तांकां पटल्या आनी ह्या पुस्तकाच्या रुपान ती गरज भागोवपाच्या वावरांत तांणी आपणालो सुरवेचो वांटो उखल्ला.

चरित्र, जाण्ट्यांखातीर बरयल्लें आसूं वा भुरग्यांखातीर, हो फकत साहित्यीक वावर न्हय. समाजीक आनी सांस्कृतीक नदरेनूय तो मोलाचो. आनी संस्कार घडोवापाची तांतली शक्त पळयल्यार भुरग्यांखातीर बरयल्लीं चरित्रां चड म्हत्त्वाचीं. मनीस व्हडविकेक कित्याक पावता? कसो पावता? कसल्या गुणांचो ताका आदार जाता? कितें ताका सोंसचें पडटा? खंय ताच्यो चुको जातात? ताचे व्हडविकेची वा पुरुशार्थाची चावी खंय आसता? ह्या प्रस्नांच्यो जापो आमकां चरित्रांनी मेळटात. चरित्र केनेडीचें आसूं, टाटांचें आसूं, मोगुबाय कुर्डीकारांचें आसूं, राजाराम पैंगीणकारांचें आसूं, सुटके-झुजाऱ्याचें आसूं वा एका कामगाराचें आसूं, ताचें वाचप हेंच एक अप्रूप शिक्षण.

जाण्ट्यांखातीर बरोवचे परस भुरग्यांखातीर बरोवप कठीण. पूण शिक्षक म्हूण खूब वर्सां अणभव आशिल्ल्यान श्री. म्हाळशी हांकां भुरग्यांच्या मनाची बरी वळख मेळ्ळ्या. देखून स. जमनालाल बजाज हांचें हें चरित्र भुरग्यांक ओड लायत अशा काणयांतल्यान तांणी सांगलां. राजाजींची ही शैली रामायण-महाभारताच्या संबंदान खूब फळादीक जाल्या. ती शैली चरित्र-लेखनाच्या संबंदांतूय कितली उपेगी जावं येता हें श्री. म्हाळशी हांच्या ह्या पुस्तकावयल्यान कळटा.

कोंकणी साहित्याचें भांडार अदीक गिरेस्त करपाचे नदरेनूच न्हय तर कोंकणी मनाचेर बरे आनी स्फूर्तदिणे संस्कार घडोवपाचे

नदरेनूय चरित्रांची रास आमी ओतूंक जाय. आमच्या बाल-साहित्याचें तें एक म्हत्त्वाचें आंग जावंक जाय.

हें पुस्तक वाचून 'श्री. म्हाळशी हांणी हो प्रकार केळोवचो आनी साहित्याची गिरेस्तकाय वाडयतनाच समाजीक भलायकी सुदारपाचो भोव गरजेचो वावर तांचेकडसून घडचो' अशेंच कोणूय म्हणटलो. म्हजीय तीच भावना. हो तांचो वावर फळादीक जावचो अशें आदींच मागणें.

मडगांव, गोंय, **उदय भेंब्रे**
१५ डिसेंबर, १९९२

अपुरबायेच्या शाण्या भुरग्यांनो,

तुमी केन्ना 'जमनालाल बजाज प्रतिष्ठान' हीं उतरां आयकल्यांत व्हय? नासत जाल्यार बजाज स्कूटर, बजाज कावासाकी, बजाज फॅन बी उतरां तरी तुमी खात्रीन आयकल्यांतच जातलीं, वाचल्यांतूय जातलीं.

'बजाज सादर करीत आहे सुखी जीवन ★ बजाज लाइटवेट आयर्न ★ बजाज स्टोरेज वॉटर हीटर ★ बजाज वॉशीन वॉशिंग मशिन ★ बजाज वॉटर फिल्टर ★ बजाज गृहोपयोगी उपकरणे. आपल्या घरासाठी सुख सुविधेची चंगळ.'

ही मराठी जायरात तुमी पळयल्या-वाचल्या जातलीच. महान भारतीय चैतन्याचा साक्षात्कार बजाज स्कूटर्स: सुपर, चेतक, प्रिया आणि कब, बजाज ऑटो ही Bajaj Golden Jubilee 1938-1988 निमतान काडिल्ली जायरातूय तुमी वाचल्या जातली.

हमारे जीवनमूल्यकी एक झलक
एक रंग इस राष्ट्रका
दूजा स्कूटर है बजाज का -
एक पर हमें अभिमान
दूजेपर हमें इत्मीनान
लाखों लाख हैं दोनों के चाहनेवाले
दोनों ही बुलंद भारतकी
बुलंद तस्वीर दर्शानेवाले
बजाज स्कूटर्स :
सुपर, चेतक, प्रिया और कब.

Bajaj Auto: You just can't beat a Bajaj ही हिंदी-इंग्लेज भाशेंतली जायरातूय तुमचे नदरेसकयल्यान गेल्या जातली.

'बजाज सेवाश्रम का आँवला केश तेल' हीं उतरां तरी कितलेशेच फावट तुमच्या कानांवयल्यान गेल्यांत जातलीं. ते जायरातीवांगडाच 'यह धरती यह आसमान, हमारा कल, हमारा आज, बुलंद भारत की बुलंद तसवीर, हमारा बजाज, हमारा

बजाज' ही जायरातूय तुमी जायतेफावट दूरदर्शनाचेर आयकल्या-पळयल्या जातली.

कच्च्या रस्त्याचा पक्का साथी बजाज M-80 तर तुमकां घडीघडी मेळ्ळाच आसतलो.

कितें प्रकरण बाबा 'बजाज' म्हणटात तें ? असो प्रस्न तुमच्यामदल्या कोणाक ना कोणाक – चुकून जायना कित्याक – पडला जातलो !

तर सोदुंया न्हय ह्या प्रस्नांची जाप ?

कितें ? सोदपाची बी भानगड नाका म्हणटात ?

काणी जाय म्हणटात ? ..... बरें बाबानों – बरें बायांनो, काणी जाल्यार काणी. पूण एक मात्त न्हय हां. एकेक, एक अदीक एक, अदीक ........

# १. ‘मनशाचें व्हडपण गुणांचेर’ – जमन

वर्धा शारांतलें शेठ बच्छराजजींचें घर. आनी घर तरी कसलें? घरचे गिरेस्तकायेचें घसघशीत प्रदर्शन करपी आस्कळ-विस्कळ, लांब-रुंद, उबार ऊंच! खरें म्हळ्यार चौग भावांक आनी तांच्या कुटुंबांक मेकळेपणान वावुरपाक मेळपासारखो तो एक आकांताचो वाडोच! तातूंत बच्छराजजी हे तर नामनेचे कापसाचे वेपारी. मागीर वैभव भायल्यानूय झळकलें ना जाल्यारूच अजाप..

आज तर तांच्या घरांत सकाळसावन एकच बोवाळ चलिल्लो. कोणा तरी सोयऱ्याचो लग्न सुवाळो आसुंये आनी गिरेस्तकायेचें प्रदर्शन त्या लग्नाच्या माटवांतूय मांडपाचो तांचो विचार आसुंये वा त्या काळाच्या रितीक धरून वैभव आंगापांगार मिरोवचेंच पडटालें जावंये! बच्छराजजींच्या घरांतल्यो बायलो जरीचे उंची शालू न्हेसून, पायांतल्या वेण्णां-पायजणां धरून माथ्यावयल्या सूर्यफुलां-भांगतिळ्यांमेरेन अळंकारिल्ल्योच. पूण दादलेय उंची रेशमी भेसाभायर कंठे-भिकबाळींनी सोबीत न्हवरे कशे नटिल्ले.

आनी धा-साडेधांच्या अदमासाक भायर सरपाच्या वेळार ज्यूस्त सांगून दवरिल्लेवरी बच्छराजजींची नदर धाकट्या अपुर्बायेच्या जमनाच्या गळ्याचेर पडली. उक्तो गळो!

बच्छराजजी मूळांतूच सभावान कडक, तापट. तातूंत तांकां उक्त्या गळ्याचें निमित्त सांपडलें. ‘जमन, गळ्यांतलो कंठो खंय रे?.... चल, वच भितर आनी कंठो घालून यो!’ बच्छराजजींनीं धेंगसो घालो.

‘आनी घालो ना कंठो म्हूण कितें जालें? मनशाचें व्हडपण गुणांचेर आसता मूं?’ जमनान सहज; सादेपणान, नमळायेन जाप दिली.

जालें! बच्छराजजी काळजान कितलेय म्होंवाळ, रसाळ जावं.

जिभेन भोवच निबर. कित्याचे कितें उलोवपी, वेळार कोणाचीच पर्वा करीनासतना गाळयांचो शिंवोर घालपी. आपलो भुरगो आपल्याक आरत्याक परतें सांगता, हें खपोवन घेवप तर तांच्या सभावांत बसच नासलें. जमनाची परती जाप आयकनाफुडें ते उसळ्ळे. 'हें ब्रह्मगिन्यान तूं म्हाका शिकयता? म्हाका? इतलो सुबेज तूं केन्नासावन जालो रे? कित्याक लागून जालो रे? पयशांक लागूनच तुका इतली मस्ती मारल्या मरे? येदो गर्व जाला मरे?.... हांव जाणां तुका म्हजें कांयच आयकुपाचें ना. आनी आयकुपाक तरी जाय कित्याक रे? तुजो म्हजेर मोग आसाच पयलीं खंय? तुजो मोग आसा तो म्हजे इस्टेटीचेर, म्हज्या बेसाचेर! म्हजेर न्हय!!'

हो उजो फोग चलतासर हेरांनी कंठो सोदून हाडलोय बी आनी जमनान तो गळ्यांत घालोय बी. उपरांत कांयच घडलें नाशें करून मंडळी लग्न-सुवाळ्याक गेली आनी लग्नाचो दबाजो आटापून उमेदीन घरा परतली. पूण जमन मात भितरल्यान आकांताचो दुखिल्लो. जाणट्याचीं जळजळीत उतरां ताच्या काळजाक भालो तोंपून गेल्लीं. तो वयल्यान कांयच जालें नाशें दाखयतालो खरो, पूण भितरले भितर खतखततालो! धगधगतालो!'

जमन चितनांनी अस्वस्थ जाल्लो. जाणट्याच्या उलोवण्यांचो अर्थ लायतां लायतां मागीर सट् करून कांय दिसांपयलींचो आनीक एक प्रसंग ताच्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो.

तशें ताचें भुरगेपण. खेळपाचीच पिराय. पूण घरच्या नेमांक लागून भायर मेळत थंय, मेळत तांचे वांगडा खेळपाकूय बंदी. मागीर चार-दोन इश्टांक घेवन जाण्टो घरांत नासो पळोवन तो घरांतच खेळटालो. केन्ना केन्ना बाय जानकीय ताचे वांगडा खेळूंक बसताली.

असोच एक दीस तांणी सारीपाटाचो खेळ मांडिल्लो आसतना ज्यूस्तच बच्छराजजी घरांत पावले आनी तांणी सोमतोच आकांत मांडलो. 'आरे, कसले भिकेचे दुवाळे येवजल्यात रे तुका? पांडवांक वनवासाक लावपी भिकाड्डो खेळ खेळटा? हेच खातीर हांवें तुका पोसको घेतिल्लो?'......

हेचखातीर? जमन सथरविथर जालो.



# २. जमन जमनालाल बजाज जालो

जमनाक दादाजींची (बच्छराजजींची) तर तिडक मारिल्लीच. तेभायर जल्म दिवपी आवयबापायचीय मनापासून तिडक मारिल्ली. तांकां लागूनच म्हाका हीं उलोवणीं खांवचीं पडलीं. गुन्यांव तांचोच! तांणी म्हाका पोसको दिवचोच कित्याक? आनी हे तेरन सतावपाचें आसत, खेपपाचें आसत जाल्यार दादाजीन म्हाका पोसको घेवचो तरी कित्याक? जमनाच्या भावुक मनाक ही गजाल लागली.... पोसकेंपण!

.... भुरग्यांनो, अजाप जालें न्हय?.... तर आज जमनाच्या पोसकेंपणाची ही अजाप जावपासारकी काणी.

जमन हो बच्छराजजींचो खरो पूत न्हय. म्हळ्यारूच तांगेर वा तांगेल्या घरांत जल्माक आयिल्लो चलो न्हय. 'रखरख' राजस्थानातल्या सुक्या सड्यासारक्या रेंवट जमनींत जल्माक आयिल्लें हें कर्तुबाचें कमळ!

खरें म्हळ्यार बच्छराजजींचो मूळ वाठार होच. पूण मूळ गांव सोडून महाराष्ट्रांतल्या वर्धा शारांत ते वचून रावपाक लागल्यार आतां जायतीं वर्सां जाल्लीं.

तशे ते वेपारी जाल्ल्यान गिरेस्तकायेक कांय एक उणें पडपासारकें नासलें. घर भरून दार ओततालें म्हळ्यार जाता. पूण चौगजाण भावांचीं लग्नां जावनूय एकादऱ्या माणकुल्या बाबुल्याक आंगापांगार खेळोवपाची संद त्या घराक केन्ना मेळ्ळीच ना. वाट पळोवन निमाणें बच्छराजजींक रामधनदास नांवाच्या एका भुरग्याक मांडयेर घेवचें पडलें. उपरांत व्हड दबाज्यान तांणी ताचें लग्न केलें. जाल्यार तागेरूय भुरगें जालें ना!

देखूनच देवाक आंगवण करपाखातीर, देवालागीं 'भुरग्याचें मागणें' करपाखातीर शेठ बच्छराज बजाज, आपली घरकान्न सद्दीबाय, पूत रामधनदास आनी सून वासंतीदेवी हांचेसयत सीकर

ह्या गांवांत गेले. पूण भुरगें जावपाची आस्त तर पयस उरलीच, पोसको पूत रामधनदास मात भायर पडलो!! देवान आनी दैवान ह्या कुटुंबाचेर सुमाराभायर अन्याय केलो. मळब आंगार कोसळटा आनी धर्तरी जिव्याजित्या कुडींसयत सगळ्यांक गिळटा अशें तांकां दिसलें. घडये चड बरें अशेंय कितें घडपाचें आसुंये! पूण सद्याक तरी तांचेर आकांताचें अरिश्ट कोंसळिल्लें. रडून रडून आकांत करपाबगर दुसरें कांय तांच्या हातांत नाशिल्लेंच. वासंतीदेवीच्या दुख्खाक तर अंतपार नाशिल्लो.

सीकराच्या तांच्या सोयऱ्याधायऱ्यांनी हेवेळार तांकां खूब आदार दिलो आनी अशेंय सुचयलें की तांणी हांगासल्ल्यानच एकादऱ्या भुरग्याक पोसकें घेवन घरा वचचें.

सीकरालागींच काशी-का-वास नांवाचो एक गांव आसा. मनांतल्यो इत्सा-हावेस पुराय करपाची शक्त आशिल्ली ही खऱ्या अर्थान काशीच. तेन्ना, भुरग्याची खबर काडीत काडीत वतनाच ते थंय कनीरामजी नांवाच्या एका वळखीच्या गिरेस्तागेर पावले.

वळखीचे गिरेस्त तशे आदले इश्टच. कारण काशी-का-वास होच बच्छराजजींचो मूळ गांव. खूब तेंपान एकामेकांक मेळिल्ल्यान उदक-पाणयाच्यो, पावसा-वाऱ्याच्यो गजाली जाल्यो. कनीरामजींची घरकान्न बिरधीबाय आनी बच्छराजजींची घरकान्न सद्दीबाय हांचेमदींय सुखदुख्खाच्यो गजाली आपलेपणान चलिल्ल्यो. पेड्ड्यार जाल्ल्या पोसक्या पुताचो विशय बी आपसूक आयिल्लोच आनी फुडल्या पोसक्या पुताची खबर येवपाकच कसो कोण जाणा, पूण अकस्मात आंगणांत खेळटालो तो एकलो चलो धांवत घरांत आयलो, येवचे येवन सद्दीबाय म्हऱ्यांतच आयलो आनी 'आजी आयली, आजी आयली' म्हूण उमेदीन उडक्यो मारीत तिचे मांडयेर वचून बसलो.

भुरग्यांक आशेल्ले सद्दीबायक आपलोच नातू आपले मांडयेर बशिल्ल्याचो भास जालो! तिणें त्या चल्याक खाक्यांत घेतलो. मायेमोगान ताची अर्थअपुर्बाय केली. 'शाणुल्या, बाबुल्या!' तोखणायेन ताचेकडेन पळयत बिरधीबायक विचारलें, "कोणालो चलो गे हो?... कितलो सोबीत, कितलो धीट! कोणालो गे हो?"
"आतां मांडयेर बसला, म्हणटकूच तुगेलोच जालो ना तो?" बिरधीबायन सहजतायेन, सादेपणान हांसत जाप दिली. "चोराक, गुलामाक आजीशी दिसली दिसता."

आनी तें खरेंच आशिल्लें. त्या भुरग्याची आजी मरून दोन म्हयने जाल्ले खरे, पूण त्या पोराचो जीव आजयेचेर आशिल्ल्यान ताका आपली आजीच आयली अशें दिसल्यार अजाप कसलें?

आतां त्या पोराक 'आजयेच्या' खाक्यांत जितली खोशी जाली, ताचेपरस चड खोशी सद्दीबायक बिरधीबायची जाप आयकून जाली. "आतां मांडयेर बसला, म्हणटकूच तुगेलोच जालो ना तो?" ह्या उतरांनी तिका प्रस्नाची जाप मेळ्ळी. ती हुस्क्यामेकळी जाली. तेच खिणाक तिणें निर्धार केलो, 'पोसको घेवपाचो तो ह्याच चल्याक.'

'हांव ताका घेवन वतां तर', सद्दीबायन म्हळें. पूण हीं उतरां आयकलीं मात, बिरधीबायक घुंवळ आयिल्लेवरी जालें. तिच्या काळजाक पिळव पडलो. फकाणांनी, सहजतायेन म्हणिल्लीं उतरां सद्दीबाय खऱ्यार व्हरत म्हणपाचें तिणें सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें. तिच्या काळजाचो कुडको असो तिचोच तो पूत सद्दीबायक-बच्छराजाक पोसको दिवप तिका कशेंच शक्य नाशिल्लें. आनीक जायतीं भुरगीं आसलीं म्हूण कितें जालें?

पूण बच्छराजजीय हट्टाक पेटिल्ले. लोकांनी तरी तांची समजाविशी करची म्हूण तांणी त्या गांवच्या कांय बुदवंत लोकांक ही खबर सांगली, तांकां एकठांय हाडलें. 'हें पळेयात, ताका तुमी पोसको दिलो ना जाल्यार तीं दोगांय घडये हांगाच जीव सोडटलीं! आनी तशीं तीं घरचीं गिरेस्त. सभावान मायेस्त. तीं भुरग्याची अपुर्बायेच करतलीं. घरच्यासारकीच सांबाळटलीं.' बुदवंतांनी सुचयलें.

पूण आवय कशीच आयकुपाक तयार नाशिल्ली. बापूय कनीरामजींची अवस्ताय कठीण जाल्ली. दुबावान ते अस्वस्थ जाल्ले. पूण निमाणें सावकारकेचो मान आनी बापूयपणाचो अभिमान कुशीक मारून पुताचें दान करपाचो धाडसी निर्णय कनीरामजींक घेवचो पडलो! तांणी घरकान्नीक समजायलें, "हें पळय, फकाणांनी जायना कित्याक वा तांकां खूश करपाखातीर जायना कित्याक, तुज्या तोंडांतल्यान उतर गेलें न्हय? जाल्यार उतराक पाळो दिवचोच पडलो ना? व्हरूंदी तांकां बाबाक.'

निमाणें मन मारून बिरधीबायक हयकार दिवचोच पडलो. पूण इतल्यान सोंपलें ना. आतां प्रस्न आयलो तो पोसक्या चल्याबदला आवय-बापायक धन दिवपाचो, पयशे दिवपाचो. आनी ती तर त्या काळची एक चाल आशिल्ली. पूण कनीरामजींक

ती रूढ मान्य नाशिल्ली. तांणी बच्छराजजींचें धन सामकें न्हयकारलें. 'हांवें चल्याक विकपाक दवरलें ना, पावणेरूय काडलें ना! तेन्ना हांव एकूय पयसो घेवपाचों ना... आवयच्या तोंडांतल्यान उतर गेलें आनी ताका पाळो दिवपाक आमकां पूताक दिवचें पडलें. तेन्ना आतां आमचें कांय एक म्हणणें ना. तुमी चल्याक बरेंभशेन घेवन चलात. पूण पयशे घेवन आमकां अधर्म करपाक लावंनाकात.'

गांवच्या बुदवंत लोकांचें म्हणणेंय तांणी आयकून घेतलें ना. आतां हट्ट करपाची पाळी आशिल्ली बच्छराजजींची. 'तशें जाल्यार हांवूय चल्याक व्हरपाचों ना. म्हाका निर्वंश म्हूण मरण आयल्यार उपकारता. आमचो वंश वाडलो ना जाल्यार उपकरता!'

कनीरामजी मागीर चड बेजार जाले. आतां कितें करपाचें? निमाणें तांणी एक उपाय सोदून काडलो. 'तशें जाल्यार शेटजी, म्हाका म्हजेखातीर वा घरकान्नीक तिचेखातीर कांय एक नाका. पूण, तुमकां जर कितें दिवपाचेंच आसत जाल्यार तें आमच्या गांवाखातीर दियात. गांवचें दळदिरपण सोंपोवपाखातीर कितेंतरी करात.' 'कितें दिवपाचें? कितें करपाचें? उलयात तुमी.' बच्छराजजी उमळशिकेन विचारपाक लागले.

'ह्या गांवांत लागीं उदक ना. 'कदम-का-वास' सावन बायलांक दोडी भरून उदक हाडचें पडटा आनी तोवूय गांव जाल्यार कितलो पयस! तेन्ना तुमकां कितें करपाचेंच आसत, जाल्यार ह्या गांवाखातीर एक बांय मारात' कनीरामजींनी म्हळें, आनी बच्छराजजींनी तांचें उतर वयलेवयर जिखलें!

कांय दिसांभितर गांवांत बांय आयली. गांवची हक्काची बांय आयली. कनीरामजींच्या अपुर्बायेच्या पुताक लागून उदकान भरिल्ली बांय गांवाक मेळ्ळी. आनी अजाप म्हळ्यार जो भुरगो मातयेंत खेळटना जमीन उस्तून फोंड मारतालो आनी विचारल्यार 'बांय मारतां' म्हणटालो, तोच कनीरामजी-बिरधीबायचो जमन जालना गांवांक बांय दिवपाक कारण थरलो.



# ३. भुरगेपणांतूच जमनालालाचें लग्न

बच्छराजजींचीं उलोवणीं आयकून जमनालाल सथर-विथर जाल्लोच. ताच्या दोळ्यांमुखार लग्नापयलींचे कांय प्रसंग उबे रावले. आजयेक ताच्या लग्नाची खूब उमेद आशिल्ली. पूण नातवाचो लग्नसुवाळो तिच्या नशिबांत नासलो. लग्नाउपरांत णव दिसांनीच जमनालालच्या धाकल्या भावाक – बदरीक – टायफॉयडान मरण आयलें. ताकालागून आजो-आजयेचे उमेदीखातीर केल्लें लग्न जमनालालाक उमेदीन भोगपाकूच मेळ्ळें ना. तातुंतले तातूंत वासंतीदेवीनच ताका आवयचो मोग दिलो आनी ताचे घरकान्नीक – जानकीक – सुनेवरीं वयलेवयर केलें.

नाजाल्यार पोसक्या बापायचो – बच्छराजजींचो गाळयांचो शिंवर अदींमदीं आसतालोच. तेभायर जमनालालान वाचत बसप, धर्मीक विधी करप, पूजा-अनुष्ठानां करप, प्रार्थनां करप, देशांतल्या घडणुकांत रस घेवप बच्छराजजींक पसंत नाशिल्लें. देखूनच तांणी ताच्या लग्नाचो निर्णय घेतिल्लो.

लग्नाचो हो बेत निश्चित जावचे पयलींची घडणूक जाल्यार अजापाची कशी! चल्यान चलयेक पसंत करपाचें सोडाच, पूण पळोवपूय ना अशा काळांतलें भुरगेपणांतलें हें लग्न. आवयबापायन थारावपाचें आनी भुरग्यांनी लग्नाक हयकार दिवपाचो.

जमनालाल आनी जानकीचें लग्न अशेंच जाल्लें.

एक दीस पंडित भानीराम नांवाचे बच्छराजजींचे एक लागींचे इश्ट तांकां म्हणपाक लागले, 'ही सोयरीक जावंकूच जाय. अफूचो वेपार आसा. पेठेर मुनीम जाल्यार वाड्यार नोकरचाकर सगलें सगलें आयतें. सोयरीक जमत जाल्यार जमन जावपाचो राजाच. तेन्ना विचार करूकच नाकात पळोवया.'

खरें म्हळ्यार चली गोरी काय काळी हें लेगीत बच्छराजजींनी पळोवंक नासलें. तेन्ना उमळशीक जागी जावन तांणी विचारलें, 'पूण चली तरी कशी आसा?'

भानीरामानीं जसो कितें तांचो प्रस्न आयकलोच ना! 'हें

पळयात, गिरीधारीलाल वाड्यावयल्यान भायर सरतात तेन्ना अख्खो गांव तांच्या पांयार घालून घेता.' ते उलयत रावले.

मागीर मात बच्छराजजी मात्शे तापले. 'पंडितजी, हांव तुमकां विचारतां, चली कशी आसा काय म्हूण?'

आतां पंडितजींक प्रस्नाक जाप दिवचीच पडली. पूण मूळ प्रस्नाक जाप दिवचेबदला ते म्हणपाक लागले, 'चली साक्षात् लक्ष्मीचो अवतार! तिचें नांवय सोबीत, पवित्र – जानकी.'

'पूण हांव विचारतां, ती रंगान, रुपान कशी?' बच्छराजजी तापले.

इतलो वेळमेरेन थंडपणान दोगांयचीं उलोवणीं आयकत बशिल्ले सद्दीबायच्यान रावं नज जालें. बच्छराजजींच्या प्रस्नाचेर तिणें तापूनच मदींच तोंड घालें. 'कित्याक जाय ती आमकां सुंदर सून? हांव कितें उणें सुंदर आसलें? व्हडली सून वासंतीय कितली सोबीत! पूण आमच्यानी वंश चालीक लावपाक जालोच ना न्हय? तेन्ना म्हाका सून जाय ती वंश वाडोवपी. घरांत एक तरी भुरगें जायच. मागीर सून काळी आसल्यारूय उपकरता!'

रंगरुपाचो मुद्दो हांगाच सोंपलो आनी पंडित भानीरामाच्या उतराचेर विश्वासून त्या दोगांयनी इकरा वर्सांच्या नातवाखातीर आठ वर्सांची जानकी पसंत केली.

खरें म्हळ्यार इतल्या ल्हानपणांत जमनाचें लग्न करपाचो बच्छराजजींचो विचार नासलो. सभावान ते मुळांतूच रागीट खरे, दीसरात गाळी घालताले खरे, पूण मनान मात नितळ आसले.

मात्त जमन पयशांचे कमायेपरस, सुखां भोगपाचे इत्सेपरस संत साहित्य, देवधर्म हांचेलागीं ओडटा, तें पळोवन बच्छराजजींक तिडक मारली. आपणें हाका हाडला तो चार पयशे जोडपाक, धंदो वाडोवपाक, संन्याशी जावपाक न्हय, असो विचार बच्छराजजी करूंक लागले. देखून, घरकान्न सद्दीबाय साधुसंतांक घराकडेन हाडटा आनी जमनालाल तांचेलागीं भासाभास करतात हें तांकां मात्तूय आवडलें ना.

वर्ध्याक आयलेउपरांत जमनालालांचें नांव मराठी मुळावे शाळेंत घाल्लेंच. ताका लागून चार वर्सांभितर वाचपाक, बरोवपाक, हिशेब दवरपाक ताका कळूंक लागलें. बच्छराजजींच्या हिशबान हें शिकप खूब जालें. तांकां कितें जमनालालाक पंडित करपाचें आसलें? धंदो-वेव्हार सांबाळल्यार पुरो! मागीर ताचें शिक्षण

इतल्यारूच थांबलें. पूण इंग्लेज लोकांवांगडा वेव्हार करपाक जमपाक जाय, घराकडेन येतात त्या संवकळीच्या इंग्लेज अधिकाऱ्यांकडेन उलोवपाक, शिश्टाचारान तांचेकडेन वागपाक कळपाक जाय म्हूण बच्छराजजींनी ताका तीन म्हयने इंग्लेज भास शिकपाक धाडलो. तेंवूय तो बरेभशेन शिकलो.

उपरांत ताका वेपाराची गोडी लागपाक जाय म्हूण बच्छराजजी ताका दिसाक एक रुपया खर्चाक दिवपाक लागले. पूण ताका ओगीच पयशे मोडपाची संवय नाशिल्ली. तो दिल्ले दिल्ले रुपया एकठांय करून दवरपाक लागलो. मात्त, ताचें लक्ष पयशे एकठांय करपाकडेन नासलें.

नेमान वाचन, मनन, चिंतन चलतालें. जमन 'हिंदी बंगवासी' नांवाची पत्रिका नेमान वाचतालो. देशांत आनी विदेशांत कितें घडटा तें जाणां जावन घेवपाची उमळशीक ताका लागिल्ली. धर्मीक विधी, प्रार्थना, देवदेवस्पण चलतालेंच.

मागीर मात्त बच्छराजजींच्यान रावंक नज जालें. जमनालाल वेपार तितलो सोडून हेर सगलें करता, तें पळोवन ते बेजारले, वाजेले, तिडले आनी तांणी जमनाच्या लग्नाचो बेत निश्चित केलो.

.... व्हडा दबाज्यान लग्नाचो सुवाळो जालो. सोळा-सतरा वर्सांचो न्हवरो. जाल्यार तेरा-चवदा वर्सांची व्हंकल.

आनी व्हंकल तरी कसली? नांवान तशी सोबीत, गुणांनीय लक्षीम. पूण रंगान? काळीकिट्ट! जमनालाल सोबीत सुंदर. देशांतल्या कांय मेजक्या सुंदर तरणाट्यांमदलो एक. पं. जवाहरलाल नेहरु, जयप्रकाश नारायण, सुभाषचंद्र बोस, महादेवभाई देसाई बी सुंदर तरणाट्यांमदलो राजबिंडो तरणाटो. पूण जमनालालान कसलीच कागाळ केली ना. केन्नाच कोणाकडेन उलोवन दाखयलें ना. उरफाटें, सुंदर सोबीत बायलेक दिवपाक जाय ताचेपरस चड मोग ताणें जानकीक दिलो आनी जानकीनूय काळजाथावन आपल्या घरकाराचो मोग केलो, निमाणेंमेरेन आदार दिलो; संवसारांतूच न्हय जाल्यार चळवळींत लेगीत. इतलेंच न्हय जाल्यार भारतीय स्वतंत्रतायेचे चळवळींतली ती एक धाडसी, कर्तुबी आनी आदर्श बायलमनीस थरली. हाचें श्रेय वता तें दर्यांयेद्या विशाळ आनी खोलायेच्या काळजाच्या जमनालालांक.



# ४. जमनालालान घर सोडलें

घडिल्ल्या गजालींचो आनी ताका लागून मनांत आयिल्ल्या विचारांचो परिणाम जमनाचेर जाले बगर रावलो ना. पूण मनांतलें दुख्ख उलोवन दाखोवपाचें कोणाकडेन? काळजांतले चरचरे सांगपाचे कोणाक? घायांचेर वखद सोदपाचें खंय? कशें? सतरा वर्सांच्या जमनाक हें सोंसून घेवप शक्य नाशिल्लें.... निमाणें जमनान पत्रूच बरोवन दवरपाचें थारायलें. पत्र आपल्या आज्याच्या नांवान – बच्छराजजींच्या नांवान. तांकांच लेखून.

'॥श्री॥ शुभस्थान वर्धा – सर्वत्र श्रीलक्ष्मीनारायणजी सदैव पाठीशी आहे....'

आरंबाच्या ह्या वळींतल्यानच जमनालालाची देवावयली श्रद्धा आनी जाणट्यांच्या जलमस्थानाचो मोग स्पश्ट जाता, तेच प्रमाण जळीं मळीं शुभ, मंगल, पवित्र पळोवपाचो सभाव उकतो जाता.

आज्याक बरयिल्ले चिटयेंत जमनालाल फुडें बरयता – 'आयज तुमी म्हजेर सुमाराभायर तापले. तुमची तिडक हांव धरतां ती देवाची मर्जी! चूक तुमची न्हय. चूक म्हाका पोसको दितल्यांची. आनी खरें म्हळ्यार ती सादी चूक न्हय, तो व्हडलो गुन्यांवच! तुमी तिडकून म्हळें – जाय जाल्यार केश कर, खटलो भर. तुमच्या हिशबान खरें जायत तें. हांव तशेंच करपी अशें घडये तुमकां दिसलां जावंये. पूण कित्याक म्हूण हांव खटलो भरूं? तुमी तर म्हाका कितेंच देवीत लागनात.... हाचेफुडें हांव तुमचेकडल्यान एक दमडी लेगीत घेवपाचो ना. मागपाचो तर नाच्च, पूण दिल्यारूय घेवपाचों ना. हुसको करपाची गरज ना. आयजसावन म्हजो तुमचेर कसलोच हक्क ना अशेंच हांव धरून चलतां. मात्त, इतलें आसुनूय लक्ष्मीनारायणान तुमकां आनीक वीस-पंचवीस वर्सांची तरी जीण दिवची म्हूण ताचेलागीं प्रार्थना करतां आनी ह्या खिणाकूच न्हय तर सदांच देवालागीं म्हजी ही प्रार्थना

आसतली. तेन्ना चूकभूल माफ करची.

.... तुमकां दिसलां जावंये की हो आपल्या धनदौलतीखातीर, इस्टेटीखातीर आपली सेवा चाकरी करता. जाल्यार तुमकां सांगतां, म्हज्या मनांत तुमच्या पयशांसंबंदान पयशाचोय लोभ ना, मोग ना. आत्तांय ना आनी फुडें आसपाचो तर प्रस्नूच उपरासना.



१७ वर्सांचो भोवांत सुंदर जमन

हांव आनी म्हजे वांगडा म्हजें नशीब. तसो म्हजो नशिबाचेर आनी ताचेपरस नशीब काडपाचेर खर विश्वास आसा. तुमी कसलोच हुसको करूं नाकात.

.... आनी तशें पळोवपाक गेल्यार हांव कोण तुमचो? कसलो संबंद म्हजो आनी तुमचो? नातीं तरी कितलीं खरीं?

फटीच्यो गजाली सगल्यो. सगलो संवसारच तड्डकी, देखूनच तुमचीं उलोवणीं वायटाक पडलींशीं दिसनात म्हाका. पयशा अडक्याच्या मोयपासांतल्यान आनी नात्यासंबंदांच्या जंवजाळांतल्यान मेकळो तरी जालों. तुमी मात्त मायेच्या जाळ्यांत घुसपल्यात तें पळोवन वायट दिसता!

... हांवें जें कितें बरयलां हाचेर घडये तुमचो विस्वास बसचो ना, देखून स्वताचे खोशयेन स्टँपाचेर निशाण घालून दवरतां आनी ही सय करतना सोपूत घेवन सांगतां की हाचेफुडें तुमचेर वा तुमची धन-दौलत, तुमची इस्टेट, तुमची मिरास, तुमच्यो वस्ती-दागिने कित्या कित्याचेर म्हजो कुस्कुटाचो अधिकार उरचो ना...'

सतरा वर्सां पिरायेच्या भुरग्याची – जमनालालाची ही चीट म्हळ्यार पोसक्या आज्याक ताणें दिल्ली सोडचीठ! पूण तीवूय जाल्यार नमळायेन, तितल्याच मेकळेपणान बरयिल्ली. नेमकेपणान मांडिल्ल्या स्पश्ट विचारांची, सत्वगुणांनी भरिल्ल्या मनाचें दर्शन घडोवपी ही चीट.

देवाचेर केदी श्रद्धा! स्वताचेर केदो विश्वास! जमनालालाच्या जिणेक मोडण दिवपी होच तो मोलादीक खीण. दोळ्यांनी दिसता त्या वैभवापेल्यान एक व्हडली, भव्यदिव्य जीण आसा, हाचो विचार मनांत किल्लुपी हो खीण.

देखूनच, ती जीण जगपाच्या हावेसान जमनालालांनी घर सोडलें आनी गुरूच्या सोदांत भोंवडेक आरंब केलो.



# ५. जमनालाल गुरूच्या सोदांत

जमनालालाचें तें 'त्यागपत्र' वाचून बच्छराजजींचें काळीज हाललें. भुरगेपणांतूच ताणें केल्लो धनदौलतीचो तिरस्कार, ताची त्यागाची भावना आत्म्यावयले बरे संस्कार, सदांकाळ दुसऱ्याक उपकरा पडपाचो सभाव, देवाचेर श्रद्धा, संवसाराक नकली मानपाचें धाडस, मोयपासापसून पयस रावपाची संतवृत्ती आनी पयशांक फकत मदतीखातीरचें साधन मानपाची वेव्हारीक नदर ह्यो सगल्यो गजाली त्या पत्रांतल्या दर एका उतरांतल्यान दादाजींक होलमल्यो. जमनाच्या विचारांनी बच्छराजजींक पुरायेन बदलून उडयलें. भायल्यान तेचपरीं भितरल्यानूय.

ख्रिणाचोय वेळ वगडायनासतना बच्छराजजी जमनाच्या सोदाक भायर सरले आनी नशिबान स्टेशनाचेरच जमन तांकां मेळ्ळो. दादाजींच्या आगऱ्याक लागुनूच मनांत नासतनाय जमनाक घरा येवचेंच पडलें आनी कांय तेंप वेव्हारूय सांबाळचो पडलो.

बच्छराजजींच्या विचार-आचारांत पुरायेन बदल जाल्लोच. तांणी लक्ष्मीनारायणाच्या देवळाच्या वावरांत चडानचड रूच घेतली. त्या कामाखातीर आनीक एक लाखाची देणगी दिली. तेभायर एका मारवाडी विद्यालयाक मुमाराभायर दुडू दान केलो.

पूण आनीक चड आनी व्हड वावर करपाक मात्त बच्छराजजी चड तेंप संवसारांत उरले नात! दम्याचे पिडेक लागून स म्हयन्यांभितर ते संवसाराक अंतरले. तेवेळार कांय न्हय म्हळ्यार पांच-स लाखांची मिरास आनी मालमत्ता तांच्या नांवार आशिल्ली. इतली इस्टेट आसुनूय आनी दादाजींच्या मर्णाउपरांत ती आपल्याकूच मेळटली हाची खात्री आसुनूय जमनालालान स्टँप पेपराचेर सय करून ते धनदौलतीचो त्याग केल्लो, हें मतींत घेवपासारकें आसा.

देखूनच, दादाजींच्या मरणाउपरांत कर्तव्य म्हणून ताणें सगले

वेव्हार पळयले. पूण मन मात्त पयशे जोडपांत वा संवसारांत केन्नाच रमलें ना.

आपणें खूब्ब गिन्यान मेळोवपाक जाय, तेखातीर कोणाक तरी 'गुरू' करपाक जाय असो एक विचार हालींसरा ताच्या मनांत परतो परतो येवंक लागिल्लो. ताचें शिक्षण साप्प उणें आशिल्ल्यान मागीर हो विचार चडूच घट जालो.

जमनालाल गुरूच्या सोदांत भायर सरलो. पं. मदनमोहन मालवीय, फिरोजशाह मेहता, डॉ. रविंद्रनाथ टागोर, लोकमान्य टिळक अशा कितल्याशाच नामनेच्या बुदवंत फुडाऱ्यांक तो मेळ्ळो. कांय जाणांच्या वांगडा कांय दीस रावलो. पूण ताच्या मनांत उदेल्ली गुरूची मूर्त ताका कोणामदींच दिश्टी पडली ना.

स्वामी विवेकानंद जेन्ना गुरूच्या सोदाक भायर सरिल्ले, तेन्ना तांकांय खंय पयलीं पयलीं अशोच आडखळी आयिल्ल्यो, म्हळ्यार मनासारको गुरू मेळपाक जायत्या जाणांचीं दारां धाडावचीं पडिल्लीं. जाका जाका ते मेळटाले ताका ताका खंय ते तीन प्रस्न विचारताले –

पयलो प्रस्न : देव खऱ्यांनीच आसा व्हय ?

दुसरो प्रस्न : तुमी ताका पळयला व्हय ?

तिसरो प्रस्न : तुमी तो देव म्हाका दाखयशात व्हय ?

पयल्या प्रस्नाची जाप सगलेजाण 'हय' म्हणून दिताले. दुसऱ्या प्रस्नाची जाप सदांच 'मोघम' म्हळ्यार 'हय-ना' अशी अर्दकुटी वा फटीची आसताली. मनासारकी तर नासतालीच. तिसऱ्या प्रस्नाक जाप करपाचें धाडस मात्त कोणाकूच जायनासलें. निमाणें मात्त तिनूय प्रस्नांच्यो जापो दिवपी म्हापुरूस तांकां भेटलो – रामकृष्ण परमहंस. आनी तेच तांचे 'गुरू' जाले.

जमनालालाचे प्रस्न कसले आशिल्ले हाची खात्रीन म्हायती मेळना. पूण ताणें दादाजींक बरयिल्ल्या पत्रावयल्यान ताच्या मनातल्या प्रस्नांची जी कल्पना करूं येता, ती अशी –

१. हातांत उफाट पयसो आसुनूय पयशांपसून पयस रावप शक्य आसा व्हय ?

२. अशे अवस्तेंत वयल्या पांवड्यावयली सामाजिक आनी अध्यात्मिक जीण जगप शक्य आसा व्हय ?

३. अशी जीण कशी जगची हाचें मार्गदर्शन तुमी करशात व्हय ?

पूण ह्या तिनूय प्रस्नांक समादान जायसारकी जाप करपी गुरू जमनाक भेटलो ना! आनी तो इतले बेगीन भेट्टलो तरी कसो? तो तर आपली बॅरिस्टरकीय विसरून आफ्रिका खंडांत स्वंतंत्रतायेचें म्हान झूज चलयतालो, सामान्याभायलें सत्याग्रहाचें अस्त्र घेवन संवसाराक मार्गदर्शन करतालो..... म. गांधीजींचें नांव जमनान आयकल्लें. आफ्रिकेंतल्या भारतीयांच्या प्रस्नासंबंदान महात्माजींनी १९०१त प्रसिद्ध केल्ली 'ग्रीन पँप्लेट' नांवाची पुस्तिका ताणें वाचिल्ली. एक बॅरिस्टर एक केस लडोवपाक आफ्रिकेंत वता आनी थंयच्या भारतीयांचे प्रस्न सोडोवपाखातीर तांकां एकठांय करून 'अहिंसक सत्याग्रहा'चें मोलादीक आनी नव्वें अस्त्र घेवन संवसाराकूय मार्गदर्शन करता, हे अप्रूप गजालीचो प्रभाव जमनाचेर पडिल्लो. नागपुरांतल्यान भायर सरपी हिंदी 'केसरी' जमन वाचतालो. तातुंतल्यान महात्माजींसंबंदान जायतें वाचपाक मेळटालें.

पूण जमनाचेर महात्माजींचो चड प्रभाव पडलो तो १९०९ वर्सा. आफ्रिकेंत महात्माजींनी चलयिल्ल्या लड्यासंबंदान कॉंग्रेसींत जो थाराव पास जावपाचो आसलो, तेसंबंदान नामदार गोपाळकृष्ण गोखले हांणी जें भाशण केल्लें, तातूंत म. गांधींसंबंदान तांणी म्हणिल्लें, 'म. गांधींकडेन म्हजी बरी वळख आसा, हें हांव म्हजें भाग्य समजतां. गांधींइतलो उदार मनाचो, शुद्ध चरित्राचो आनी शूरवीर असो वयल्या पांवड्यावयलो आत्मो हे धर्तीर हाचेपयलीं जल्माक आयलो ना, अशें म्हाका दिसता. सामकें सादेपणान रावप, आपल्या भावबंधवांसंबंदान उफाट मोगाची भावना आनी सत्य, न्याय हांचेर खर निश्ठा आशिल्लो हो मनीस आमच्या दुर्बळ बंधवांक जादूगार कसो दिसता! कारण, तो तांकां एक नवेंच दर्शन दिता. म. गांधीजींचें वर्णनूच करपाचें जाल्यार अशें म्हणूं येता की ते सामान्यांमदीं असामान्य, शूरांमदीं महाशूर आनी देशभक्तांमदीं एक ज्येश्ठ देशभक्त. देखूनच, आयज भारतीय मानवतेचोच जसो कितें अतीम्हान आविश्कार तांचे रुपान जाल्लो आसा.'

असो हो म्हापुरूश आपले गुरु-कल्पनेच्या सामको लागीं आसा, अशें तें भाशण आयकून वा वाचून जमनाक दिसलें, जाल्यार अजाप कसलें?



# ६. जमनालालांक महात्माजींचें दर्शन

एकोणीसशें णव वर्साच्या लाहोर काँग्रेसींत नामदार गोपाळकृष्ण गोखले हांणी म. गांधीजींसंबंदान काडिल्ले उद्‌गार जमनालालांच्या मनाचेर परिणाम करून गेले. 'होच मनीस आपलो गुरू' असो विचारूय तांच्या मनांत येवन गेलो.

उपरांत आफ्रिकेंतलें झूज जैतवंत करून १९१५च्या जानेवारींत जेन्ना महात्माजी भारतांत परतले, तेन्ना बोटींतल्यान देंवलेउपरांत



वर्धा जिल्ह्यांत बजाजवाडींत म. गांधीजींवांगडा जमनालाल बजाज

फुडाऱ्यांनी तांचेकडेन दोन उतरां उलोवपाची मागणी केली. म. गांधीजी सामके नमळायेन लोकांमुखार उलयले. 'तुमी दिल्ल्या येवकाराखातीर हांव खूब उपकारी आसां. हांव मायदेशांत परतलों, हाचो म्हाका अभिमान भोगता.' इतलींच दोन वाक्यां. एक्कूय

उणें-अदीक उतर ना! पूण ह्या काळजाथावनच्या कांय मेजक्या उतरांनी लोक भारावन गेले. जमनालालांक तर कितें जालें जातलें? महात्माजींची भेट घडुंनासतनाय ते तांच्या काळजांत पावले.

एकोणीसशें सोळा वर्साक बनारस हिंदू विश्वविद्यालयाच्या उक्तावणावेळार म. गांधींनी केल्लें भाशण जमनालालांचेर अशेंच प्रभाव घालून गेलें. तातुंतल्यो कांय म्हत्वाच्यो गजाली अश्यो – 'भाशणां इंग्लेजींत न्हय, जाल्यार हिंदींत करूंक जाय आनी फकत सभेंत भाशणां करून न्हय, जाल्यार आचरणान स्वराज्याक पात्र थरूंक जाय, आमचीं देवळांय निवळसाणेचीं, नितळसाणेचीं केंद्रां जावंक जाय.' हें भाशण हेरांप्रमाणूच जमनालालांकूय विचार करपाक लावपासारकेंच आसलें.

मागीर मात्त जमनालालांनी महात्माजींक मेळपाचो बेत पक्को केलो आनी बेगोबेग तांच्या आश्रमाची वाट धरली. २० मे १९१५त महात्माजींनी अहमदाबादेंत आश्रम स्थापिल्ल्याचें जमनालालांक कळिल्लेंच. जमनालाल आश्रमांत गेले. इतलेंच न्हय तर 'आश्रमवासी' जावन थंयच रावपाक लागले. ह्याच काळांत तांकां आश्रमी जीणेची लागींच्यान वळख जाली. सादेपणान रावप, खुंयचेंय काम उणाक मानप ना, इतलेंच न्हय तर संडास साफ करपाचें काम लेगीत आपलें आपणेंच करप ह्या गजालींचो प्रभाव जमनालालांचेर पडलो.

आश्रमांत घडिल्ले कांय प्रसंग आनी आपल्या दोळ्यांनी पळयिल्ल्यो घडणुको पळोवन तर जमनालालांक महात्माजींचें खरें दर्शन घडलें. एकफावट अहमदाबादेंतले कांय वकील एके सांजवेळेक आश्रमांत पावले. महात्माजींच्या कामांत आपलोय थोडोभोव वांटो आसचो, ही तांची इत्सा. तेप्रमाण तांणी ती उलोवन दाखयली. हेवेळार आश्रमांतले लोक रातच्या जेवणाखातीर तांदूळ आसुडपाचें आनी निवळ करपाचें काम करताले. वकिलांनी महात्माजींच्या कामांत वांटेकारी जावपाची इत्सा उलोवन दाखयनाफुडें महात्माजी मात्शे हांसले आनी सहजतायेन आश्रमवासियांक म्हणपाक लागले, 'चलात, भितर वचून आनीक चारपांच ताटल्यो तांदूळ घेवन येयात आनीक हांकांय तांदूळ वेंचपाचें काम दियात.' तांदूळ वेंचपाचें काम आयकनाफुडें वकिलांक एकदम अजाप जालें, ते सामके शेळेले, घामेले, भितरल्या भितर लजेले! महात्माजींक तांच्या तोंडावेले भाव कळपाक वेळ लागलो ना. तांणी वकिलांक म्हळें, 'हांगा

खंयचेंय काम उणाक वा श्रेश्ठ ना आनी हेवेळार जाल्यार तांदूळ निवळ करपाचें कामूच चड म्हत्वाचें, सामकें गरजेचें.'

आनीक एक दुसरो प्रसंग असोच परीक्षा घेवपासारकोच. अमृतलाल ठक्करांनी महात्माजींक कळयलें की एक हरिजन कुटूंब आश्रमांत रावपाक सोदता. ही असली संद महात्माजी सोडटात? तांणी त्या कुटुंबाक बेगोबेग प्रवेश दिलो. तें कुटूंब म्हळ्यार दुदाभाई, ताची घरकान्न आनी चली लक्षुमी अशीं तीग जाणां. मात्त, तीं आश्रमांत रावपाक लागल्यात, ही गजाल वाऱ्यासारकी त्या वाठारांत पातळ्ळी आनी वाऱ्याचें वादळ जावपाक कळाव लागलो ना!

दुदाभाईनी बांयचें उदक काडलें, म्हणटकूच ती बांय, तें उदक भश्टलें! हें निमित्त करून बांयचो मालक कित्याचें कितें उलोवपाक लागलो. कितेंय तरी निमित्त करून दुदाभाईक त्रास दिवपाक लागलो. महात्माजींक ही गजाल कळनाफुडें तांणी सगल्यांक सुचोवणी केली, 'जाप काडपाची ना. तो कितेंय उलोवं, कितेंय करूं, तुमी शांतपणान काम करपाचें, कांयच आरत्याक परतें सांगपाचें ना, प्रतिकार करपाचो ना.' बांयच्या धनयान खूब दिसमेरेन उपद्व्याप करून पळयलें, पूण कोणाचेर कांयच परिणाम जायना, कोणूच जाप काडिना हें पळोवन ताची ताकाच ल जाली. ताणें त्रास करपाचें, उलोवपाचेंय बंद केलें. पूण तेवटेन दुसरोच प्रस्न निर्माण जालो. आश्रमाक लोकांकडल्यान मेळटाली ती मदत बंद जाली. इतलेंच न्हय; तर आश्रमाक भायर दवरतले, समाजीक बहिश्कार घालतले अशी वदंता गांवभर जाली. पूण महात्माजी मात्शेय बागवले नात. गांवान बहिश्कार घाल्यार आमी आश्रमूच हरिजन वस्तींत हालयतले, अशी सगल्यांच्या मनाची तयारी तांणी केली, पूण अर्थीक पालवाचें कशें? तातुंतूच मगनलाल म्हणपाक लागले, 'फुडल्या म्हयन्याखातीर कांय एक शिल्लक ना!' तरीकूय महात्माजी बदले नात, निर्शेले नात.

.... आनी कितें अजाप? निग्रहाक फुलां धरलीं, धिराक फळां लागलीं, एक दीस अकस्मात एक शेट गाडी घेवन आश्रमांत हाजीर जाले आनी महात्माजींक तोंड उकतें करपाची संद दिनासतनाच तांच्या हातार तेरा हजार रुपया आश्रमाक मदत म्हूण दवरून आयिल्ले तशे परतून गेले. महात्माजींक उतरां फुटलीं, 'सदांच अडचणींच्या वेळार देव म्हाका पावला.

आजूय तोच, तसोच पावलो.'

ह्या दोन घटनांनी जमनालाल महात्माजींचेर सामके भाळ्ळे, म्हळ्यार जाता. 'बोले तैसा चाले....' ह्यो संत तुकारामाच्या अभंगाच्यो वळी महात्माजी आश्रमांत जगतना तांकां दिसताले. मागीर 'त्याची वंदावी पाऊले' अशें जमनालालांक दिसलें ना, जाल्यारूच अजाप! जमनालालांनी महात्माजींच्या पायांचेर घालून घेतलें आनी महात्माजींक वर्ध्याक येवपाचें आपोवणें दिलें. पूण कांय कामाक लागून महात्माजी वर्ध्याक पावले नात. मात्त, जमनालालांनी निश्चेव केल्लोच, गुरु करपाचो जाल्यार ह्याच म्हात्म्याक! देखूनच, तांचे दर एक कृतीचेर, आचारविचाराचेर जमनालाल बारीकसाणेन लक्ष दिताले. मागीर तो चंपारण्यांतल्या निळीच्या मळ्यांतल्या कामगारांचो जैतवंत खटलो जावं वा १९१८ तलें अहमदाबादेंतलें गिरणी कामगारांचें मालक-मजूर संबंदाचें येशस्वी झूज जावं. तातुंतलो तांचो अहिंसक मार्ग, नीतीक भूमिकेवयल्यान प्रस्न सुटावे करपाचें अजापाचें तंत्र आनी सामान्यांचो काळजाथावनचो मोग जमनालालांक महात्माजींकडेन मनापसून ओडपाक लागलो. जमनालालांची साबरमती आश्रमांतली यो-वच वाडली, गुरु निश्चित जाले.



# ७. जमनालाल – म. गांधीजींचे पांचवे पूत !

जमनालाल महात्माजींक मेळपाची संद सोदतालेच. योगायोगानूच १९२० वर्सा गांधीजी वर्ध्याक पाविल्लेकडेन तांणी ही संद सादली आनी गांधीजींची भेट घेतली. तेवेळार दोगांयचेमदीं जाल्लो संवाद आयकुपा-वाचपा सारकोच. कलात्म, तत्वगिन्यानाचो आनी भारावन सोडपासारको.

जमनालालांची प्रार्थना अशी: 'महात्माजी, हांव तुमचेलागीं एक 'दान' मागपाक आयलां.'

गांधीजींक अजाप! 'कितें, तुमी दान मागपाक आयल्यात? पूण हांव तुमकां कितें दितलों?' तांचो प्रस्न.

ताचेर जमनालालांची जाप: 'ना, ना. तें तुमीच दिवंक शकतात. म्हजे जिणेंतलो तो एक व्हडलो हावेस आसा आनी तो तुमीच पुराय करपाक जाय.'

ताचेर महात्माजी मात्शे नरम पडले. हयकार दिवचोच पडलो. पूण तांणी कळाशी काडली. 'बरें, हांव तुमी मागतात. तें 'दान' दिवपाक तयार आसां. पूण ताचेबदला तुमी म्हाका कितें दितले?'

'हांव दिवपाकूच तर आयलां!' जमनालालांची विचार करिनासतना जाप.

'कितें? दान मागपाक आयलां म्हणटात आनी दिवपाकूय आयलां म्हणटात! हें अशें कितें तर?' महात्माजींच्या मनांत गोंदळ.

पूण हे फावट मात जमनालालांनी घुस्मटमारांतल्यान मेकळें जावपाचेंच थारायिल्लें. मनाचो निग्रह करून तांणी सांगून सोडलें, 'महात्माजी, म्हाका तुमचो पांचवो पूत समजात!'

हें आयकून कांय वेळ महात्माजी मात्शे गोंदळिल्लेवरी जाले.

कांय खीण तांकां विचार करचो पडलो आनी मागीर तांणी जाप केली. 'पूण हांवें तुमचे संबंदान जें आयकलां, जें थोडें पळयलां आनी ताका धरून तुमी म्हाका जे समजल्यात, ताचेवयल्यान म्हाका दिसता की हांव करूंक सोदतां तसलोच वावर तुमीय करतात. तेन्ना आमी दोगूय एकमेकांचे सांगाती वा आमीग रावल्यारूच बरें न्हय?'



जिणेंतल्या निमण्या तितल्याच म्हत्वाच्या भोवशीक सुवाळ्यांत वांटो घेतना, गो-सेवा संमेलनाचे अध्यक्ष म्हूण वर्ध्यांत गांधीजींवांगडा जमनालाल बजाज

जमनालालांक हें मान्य जावपासारकें नासलें. तांणी हटूच धरलो. 'ना. ना. म्हाका तुमचो पांचवो पूतच समजात.'

निमाणें महात्माजींक तांच्या म्हणण्याक हयकार दिवचोच पडलो. पूण तोवय कसो? 'मतींत दवरात की हांव तुमकां हेंनिमतान कसलेंच दान दिना, उरफाटें हांव तुमचो स्वीकार करून तुमचेकडल्यानूच दान घेतां.'

महात्माजींनी जमनालालांक आपले पांचवे पूत मानले. आनी अशे रितीन जमनालाल महात्माजींचे पांचवे 'मानिल्ले' पूत जाले. हरिलाल गांधी, मणिलाल गांधी, रामदास गांधी, देवदास गांधी हे गांधीजींले स्वताचे चार पूत. आतां जमनालालूं पांचवे पूत जाले. जल्माक घाल्ल्या आवय-बापायचे मोयपास भुरगेपणांतूच तुटिल्ल्या जमनालालांक बच्छराजजींचो मोग उणो पडिल्लोच.

महात्माजींसारक्या बापायचे प्राप्तीन तांकां काळजासावन खोस भोगली. आपल्या बापोलयाले तीन पूत वर्ध्याकूच भायर पडिल्ल्यान पयलींच ते चिंतेस्त जाल्ले. संन्याशी जावन गंगा न्हंयचेर खोपटी बांदून रावपाचो विचारूय तांणी निश्चित केल्लो. अशा वेळार महात्माजींसारको गुरु बापायचे सुवातेर मेळप हाचेसारकें भाग्य जमनालालांक दुसरें मेळपाचेंच नासलें. महात्माजींकूय जमनालालांसारको एकनिश्ठ वावुरपी 'पूत' मेळिल्ल्यान हिशबाभायर आनंद जाल्लो.

महात्मा गांधीजी मागीर जमनालालांक चिटयो, पत्रां बरयतना सदांच 'चिरंजीव जमनालाल' अशेंच बरोवंक लागले. एक फावट मात इप्रितूच घडलें! महात्माजींनी एक दीस एका पत्राच्या आरंबाकूच 'भाई जमनालाल' अशें बरयलें. तो माथाळो वाचलो मात, जमनालालांक तीं उतरां सामकीं लागलीं! तांकां आकांताचें दुख्ख जालें. आपल्यो भावना तांणी बेगोबेग महात्माजींक कळयल्यो आनी 'आजच अशें कितें? कित्याक?' अशें विचारलें.

गांधीजींनी जमनालालांक दिल्ली जाप इतिहासीक नदरेन म्हत्वाची अशीच. 'तुमी चिरंजीव जावपाक पात्र आसात काय ना, तेचपरी हांव तुमचो बापूय जावपाचे लायकेचो आसा वा ना हें कोण थारायतलो? तुमचेवरी म्हाकाय हेसंबंदान दुबाव आसा. कारण, तुमी जशे 'पुराय' जावंक पावलेनात, तसो हांवूय अर्दकुटोच आसां. आतां हांव इतलेंच मागतां कीं परमात्म्यान म्हाका तुमचो बापूय जावपाक लायक करचें. आमी दोगूय तसो प्रयत्न करुंया, आमची वान्सा फळादीक जातली अशी आस्त धरुंया.

त्या पत्रान जमनालालांक नवी स्फूर्त दिली. महात्माजींचे लायक पूत जावपासारकीं बऱ्यांतलीं बरीं कामां, व्हडांतलो व्हड वावर आपणें कसो करपाक जाय, हाचेर जमनालाल विचार करपाक लागले. ते दिकेन वावर करपाक लागले. आपल्याक सुटनाशिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो महात्माजींकडल्यान घेवंक लागले.

गरीब भौसाखातीर तळमळपी 'जीवात्मो' म्हूण जमनालालांची महात्माजींचेर निश्ठा बसली, वाडली आनी जमनालाल खऱ्या अर्थान महात्माजींचे पूत जाले.

# ८. जमनालालांचे जिणेंत

## श्रीकृष्णदास जाजू

धर्मीक ओडीच्या वेळारूच ज्यूस्त श्रीकृष्णदास जाजू नांवाच्या चारित्र्यवान, शिक्षणमोगी आनी विचारवंत सत्पुरुषाकडेन जमनालालांची वळख जाली आनी तांची जिणूच बदलून गेली, गिरेस्त जाली.

खरें म्हळ्यार जाजू वेवसायान वकील. पूण देशभक्ती आनी समाजसेवा हे दोन गूण तांचेमर्दी इतले बळिश्ट रितीन वावुरताले की जमनालालांचेर तांचो प्रभाव पडलेबगर रावलो ना.

जेन्ना जेन्ना घरदार, संवसार सोडपाचो विचार जमनालालांच्या मनांत आयलो, तेन्ना तेन्ना 'मायभूंयक आपली कर्मभूंय कशी करपाक जाय' हाची उर्बा-उमेद जाजूजींनी तांकां दिली. ह्या देशांत कितलें गुलामपण आसा, गरीबकाय आसा आनी वावर करपाक केदी संद आसा हें तांणी जमनांक सांगलें. देशसेवा आनी समाजसेवा देवाचे सेवेपरस उणी न्हय, तर ताचें म्हत्व सदांच पयल्या पांवड्यावेलें हें जाजूजींनीच जमनालालांक पटोवन दिलें.

तांणी जमनालालांक मुद्दम १९०६ वर्सा कलकत्त्याच्या काँग्रेस अधिवेशनांत व्हेलें आनी जांचे विचार आतांमेरेन वाचिल्ले आनी आयकल्ले, त्या म्हापुरुशांक पळोवपाची संद मेळोवन दिली. लोकमान्य टिळक, दादाभाई नौरोजी, जगदीशचंद्र बसू, कवीश्रेश्ठ रविंद्रनाथ टागोर, महामना मदनमोहन मालवीय अशे हे एकापरस एक व्हडले 'म्हापुरीस'. त्या सगल्यांचोच प्रभाव जमनालालांचेर पडलो आनी तांणी स्वदेशीचें व्रत घेतलें.

ह्याच वर्साक एक व्हडलें समाजकार्य करपाची संद जमनांक मेळ्ळी. भौ. माधवराव सप्रे हांणी नागपूरासावन 'हिंद केसरी' उजवाडाक हाडपाची येवजण आंखिल्ली आनी सदळ हातांनी

देणगी दिवपाचो उलो मारिल्लो. जमनालालांनी आपलेखातीर राखून दवरिल्ल्या पयशांतले शंबर रुपया ते येवजणेखातीर धाडून दिवन दानशूरपणाची झलक सहजतायेन दाखयली.

जी गजाल आपणें दुसऱ्याक सांगपाची ताचो आरंब घरासावनच करपाक जाय, ह्या नेमाक धरून जमनालालांनी आपलेखातीर वापरपाच्यो वस्तू आनी वागपाचे कांय नेम थारावन घेतिल्ले. ताका धरून ते हेर शेट लोकांसारके भांगर-शिंगर वापरिनासले. प्रपंच आनी वेपार दोनूय बरेतरेन फुलता आसतनाय गरजेक लागत तितलोच दुडू म्हळ्यार प्रवासखर्च, नोकरचाकर हांचेखातीर म्हयन्याक फकत पांचशें रुपयाच लागीं बाळगिताले. फुडें फुडें तर तांणी आपल्यो गरजोय उण्यो केल्यो.

तांचे जिणेंतलो म्हत्वाचो आनी आवडीचो मंत्र आसलो – 'न त्वहं कामये राज्य न स्वर्गं नाऽ पुनर्भवम्। कामये दुःखतप्तानां प्राणिनामार्तिनाशनम्।' म्हळ्यार 'आपसुवार्थपणां सोडून भौसाची सेवा करीत रावल्यारूच मोक्ष बेगीन मेळटलो, हाची म्हाका खात्री दिसता.'

बऱ्या विचारांचो प्रभाव आपल्याचेर आनी घरांत पडत रावपाक जाय, म्हूण तांणी घरांत ल्हान-ल्हान फळक हुमकळायिल्ले. तांचेर बरयिल्लें – 'मरण एक दीस येतलेंच! तेन्ना भिरांत बाळगात ती अन्यायाची!' देवान संपत निर्माण केल्या ती यज्ञाखातीर, त्यागाच्या होमकणाखातीर. ताची राखण करपाखातीर मनशाची निर्मणी. देखून, मनशान धनाचो, संपतेचो उपेग परोपकाराखातीर करचो, तो भौतिक सुखाखातीर करप समा न्हय.'

महात्मा गांधींलागीं वळख जातकूच तर तांचे आदर्श आपले जिणेंत हाडपाचो प्रामाणिक यत्न जमनालालांनी केलो. तेखातीर घरकान्नीचो सभाव आनी वागणूक बदलपाचो यत्न तांकां करचो पडलो. ताचें अशें जालें की तांची घरकान्न जानकीदेवी सद्दां सकाळीं तांचे पांय धुवन तें तीर्थ पिताली. तेचपरी न्हवऱ्याच्या उश्ट्या ताटांत जेवप हेंवूय तिका धर्मीक कशें दिसतालें.

ह्यो दोनूय गजाली बंद करपाचें चिंतून जमनालालांनी घरकान्नीक म्हळें, 'हें पळय, तूं आयजसावन म्हज्या उश्ट्या ताटांत जेवपाचें सोडून दी. कारण, उश्ट्या ताटाचेर मूस बसतात, तें ताट निवळ नासता आनी आरोग्याक तें वायट. दुसरी गजाल म्हळ्यार, पांय धुवन तीर्थ पिवप म्हाका आवडना.'

जानकीदेवीक तें तशें सोंपेपणान मानवलें ना. पूण, जमनालालांखातीर तिणें पयलें मागणें मानून घेतलें. मात्त दुसरें मागणें 'पांयांचें तीर्थ' घेवपाचें मानून घेतलें ना. जमनालालांनीय चड हट धरलो ना.

आनीक एक प्रसंग असोच. एक दीस तांगेर आयिल्ल्या एका सोयऱ्याच्या कमराक चांदीचें काण घाल्लें तिणें पळयलें. जानकीदेवीक दिसलें की आपल्या घरकारानूय अशेंच काण घालचें. आनी घरांत तर तशीं भांगराचीय काणां खोंटानी पडिल्लीं. पूण तिणें जमनालालांक सांगिल्लें मात, तांणी साप न्हयकारून म्हळें, 'जानकी, भांगर हें देवाचें रूप, तें कितें कमरासकयल घालपाचें? बापूजी तर म्हणटात की भांगर म्हळ्यार कली. तें दुसऱ्यांच्या मनांत वायट इत्सा निर्माण करता. वयल्यान चोरयेची भिरांत. म्हाका तर दिसता, तुवेंय तुजे भांगराचे सगले दागिने काडून दवरिल्ले बरे.'

बायलमनशेक भांगराचो कितलो मोग आसता, हें भुरग्यांक लेगीत सांगपाक नाकाच. पूण घोवाक देवासमान मानपी जानकीदेवीन आंगावयल्यो सगल्यो वस्ती काडून दवरल्यो. पांयांतलें एक कडें शिल्लक दवरून तिणें विचारलें, 'हें तरी शिल्लक आसूं न्हय? गरीब बायलोय तें घालतात.'

आनी जमनालाल जेन्ना कांय उलयले नात, तेन्ना तें निमाणचें कडेंय तिणें सकयल दवयलें. घरांत भांगराच्यो वस्ती घालप बंद जालें. सूतकताय सुरू जाली, घरचीं खादीचे कपडे वापरूंक लागलीं.

अशा जमनालालांचो बापूजींक बापूय मानपाचो हक कोण न्हयकारपाक शकतालो?



# ९. स्वाभिमानी जमनालाल

‘तुमी केन्ना केन्नाय गांधीजींची भेट घेतात खंय! खरी खबर?

‘हय, भेट घेतां.’

‘तुमगेर मिसेस सरोजिनी देवी नायडू, नेकीराम शर्मा, देवी प्रसाद खेतान बी लोक येतात खंय?’

‘हय, येतात.’

‘ते लोक राजकीय कार्यकर्ते, सरकाराआड चळवळ करपी म्हूण तुमकां खबर आसा न्हय?’

‘हय, खबर आसा.’

अशे आनी असलेच जायते तिरसुवाद रितीन विचारिल्ले प्रस्न आनी तांच्यो रोखठोक जापो. प्रस्न विचारपी नागपूरचे कमिशनर मास्किंगसायब आनी जापो दिवपी म. गांधीजींचे पांचवे पूत ज्येष्ठ देशभक्त जमनालाल बजाज.

जमनालाल बजाजांक सरकारान मानद न्यायाधीश – जुईज (ऑनररी मॅजिस्ट्रेट) करून रायबहादूर पदवी दिलेउपरांतच्या कांय दिसांफुडली ही गजाल. एक दीस तांकां नागपूरच्या कमिशनरांचें आपोवणें आयलें. वचून पळय जाल्यार सायब हिसबाभायर फुगार! मेजार एक फायल आनी जमनालालांचेर बसत्या खिणाक धरून प्रस्नांचे गर्नेल! एकार एक प्रस्न.

‘तुमी सरकारचे रायबहादूर, देखून तुमकां सरकार दरबारांत भोवमान, हें तुमी जाणात न्हय?’ फुडलो प्रस्न, आनी

‘बरे भशेन’. अशी ताका बेफिकीर धाडसी जाप.

‘जाल्यार मागीर ह्या राजकारणी लोकांकडेन तुमचो संबंद कसो कितें? कित्याक? कमिशनर मास्किंगसायबाचो वर्मार बोट दवरपी प्रस्न.

‘पूण जे लोक म्हगेर येतात, म्हाका मेळपाक येतात, तांचेकडेन

म्हजो कसलोच राजकी संबंद नासता. ते म्हजे इश्ट.' जमनालालांचें स्पश्टीकरण.

'ना, ना. हें सारकें न्हय. उरफाटें रायबहादूर पदवी तुमकां मेळ्ळेउपरांत हे लोक तुमचेकडेन येवपाक लागल्यात, तुमी तांचेकडेन वचपाक लागल्यात. खरी खबर?' कमिशनरान जमनालालांक कात्रेंत धरपाचो यत्न केलो.



१९१८ वर्सा सरकारान 'रायबहादूर' किताब दिवन भावमान केलो, तेन्नाचे जमनालाल बजाज

'हें सामकें फट! आनी खात्रीच करपाची जाल्यार तुमचेकडेन म्हजेसंबंदींची फायल आसाच न्हय?' जमनालालांन कायदेशीर मुद्याक हात घालूनच कमिशनराचो प्रस्न परतिलो. आनी कमिशनराची पर्वा करिनासतना म्हळें, 'राजकी संबंदांक लागून वा मतभेदांक

लागून हांव म्हज्या इश्टांक मेळपाक शकना, अशें जर सरकाराक दिसता आसत जाल्यार तें बरोबर न्हय. हें मनीस-धर्माक धरून जायना आनी म्हाका तर हें मान्य करप कशेंच शक्य जावचें ना.'

जमनालालांचे सणसणीत जापेचेर कमिशनर सायब रागान तांबडोच जालो. जमनालालांचें तोंड सुटिल्लेंच. 'आनी रायबहादुरी म्हाका दियात म्हूण हांव सरकाराकडेन मागपाक गेलों नाशिल्लों!' तांणी तिडक उक्तायली. 'तें बरें आसा. पूण तुमकां गांधीजीवांगडचे संबंद तोडचे पडटले.' कमिशनर सायबान मार्ग सुचयलो.

'ना, ना. तें शक्य ना. महात्मा गांधीजी म्हजे बापूय. तांचेकडले संबंद हांव इबाडूंक शकना. निखालूस ना!' जमनालालांची स्पश्ट जाप.

'जाल्यार तुमचे शाळेचें उक्तावण करपाक चीफ कमिशनर येवचेनात!' कमिशनर मास्किंग सायबान तिडकून लागीं लागीं जमनालालांक धमकीच दिली.

'मागीर तांचीच येवपाची इत्सा नासत जाल्यार हांव तरी कितें करतलों?' इतलें उलोवन जमनालाल सट्ट करून कदेलावयले उठले आनी कमिशनराल्या ऑफिसांतल्यान भायर सरले.

परके राजवटेंत कमिशनर सायबासारक्या परकी सरकारी अधिकाऱ्याक रोखठोक जबाब दिवन जमनालालांनी स्वाभिमान सिद्ध केलो, देशभक्ती म्हणटात ती कितें तें दाखयलें आनी जिणेंतले एके म्हत्वाचे परिक्षेंत शंबरांतले शंबर गूण घेवन ते पास जाले!

अशेच एक फावट ते एका डी.एस.पी.क मेळपाक गेल्ले. गेल्लेकडेन उलयतां उलयतां विशय आयलो, लोकमान्य टिळकांच्या परदेश प्रवासाचो. आपणाली अक्कल दाखोवपाखातीर आनी टिळकांचीं फकाणां करपाखातीर डी.एस.पी. सायब फट्ट करून उलोवन गेले, 'टिळकांक घेवन वचपी बोट दर्यांतच बुडपाक जाय आशिल्ली!' इंग्लेज अधिकाऱ्यांच्या ह्या तिडक मारपी उतरांक लागून आनी हळशिकावण्या, खालत्या मन-सभावाक लागून जमनालालांक ताची वीट दिसली. तेभायर भिरभिरीय मारली. 'पूण तुमचे भावबंदूय तेच बोटीर आसात. टिळक बुडले जाल्यार तेवूय बुडटले!!' डी. एस. पी. सायब हाचेर कितें उलयतले? तांकां फावो तें पानवळ पडलें. जाप बंद जाली.

ह्या वेळारूय जमनालालांच्या स्वाभिमानी सभावाचें आनी देशभक्तीन भरिल्ल्या मनाचें दर्शन घडलें. परक्यांकडल्यान अपमान जालो, पूण एक मात्त बरें जालें. ह्या असल्या घटनांक लागून जमनालालांक आपणें आतां राजकारणांत पडपाकूच जाय म्हणपाचें खरायेन दिसपाक लागलें. आनी तांणी तें आपलें नितीक कर्तव्य मानलें.



# १०. बहिश्काराची चळवळ घरच्यान सुरू

काँग्रेसीचें एक म्हत्वाचें अधिवेशन १९२० वर्सा नागपुरांत भरपाचें आशिल्लें. ह्या अधिवेशनाचे तयारेखातीर आपयिल्ले बसकेन कांय म्हत्वाच्या गजालींचेर भासाभास केली आनी कांय म्हत्वाचे थाराव मानून घेतले. 'भोवमानेस्त जमनालाल बजाजांनी ह्या अधिवेशनाचे स्वागताध्यक्ष जावचें' असो एक म्हत्वाचो थाराव तातूंत आशिल्लो आनी तो एकमतान मानून घेतिल्लो.

पूण जमनालाल सभावान भिडेस्त! ते अनमनले. आपणांक फावो तशें शिकप ना, तेभायर पिरायेन आपूण सामको ल्हान. देखून भोवमानाचे असले सुवातेक आपूण पात्र ना, अशें तांकां दिसलें.

जमनालालांनी महात्मा गांधीजींचो सल्लो मागलो. म. गांधीजींनी बेगोबेग पत्र बरोवन तांकां बुद्द दिली ती अशी – ''नागपूरच्या काँग्रेस अधिवेशनाचें स्वागताध्यक्षपद तुमी स्विकारपाकूच जाय. हे सुवातेर दुसरो कोणूय अपात्र मनीस येवचो न्हय, देखून तुमीच हें पद स्विकारपाक जाय. तुमी केल्ली उण्या शिक्षणाची वा पिरायेची तक्रार म्हाका मान्य ना! तुमी हिंदी भाशेंतूच उलयात. ताचें इंग्लेजींत भाशांतर करून वाटूं येता.''

जमनालाल हाचेर कितें उलयतले? तांकां महात्माजींचें म्हणणें मान्य करचेंच पडलें आनी स्वागताध्यक्ष जावपाची थारावणी मानून घेवची पडली.

त्या तेंपार वेपारी राजकारणापसून सदांच पयस आसताले आनी अशा वेळार एक वेपारी काँग्रेस अधिवेशनाचो 'स्वागताध्यक्ष' जावन भाशण दिवपाचो आसलो. वेपारी जमनालाल उलयतले कितें आनी चड करून वेपारी वर्गाक सांगतले कितें, हाची सगल्यांक उमळशीक लागिल्ली!

मात्त, जेन्ना जमनालाल उलयले, तेन्ना तांचें भाशण तर

मात्त, जेन्ना जमनालाल उलयले, तेन्ना तांचें भाशण तर काळजाचे कान करून आयकुपासारकें जालेंच, तेभायर तांतुतल्यान तांची खर राष्ट्रनिश्ठा सिद्ध जाली.

पंजाबांतल्या अमृतसरांतल्या जालियनवाला बागेंत जनरल डायर हांणी कारणाबगर लोकांची केल्ली कत्तल, ताका लागून देशाक जाल्लें सुमाराभायलें दुख्ख, 'रौलट ॲक्ट' कायद्यान लोकांचे काडून घेतिल्ले नागरी अधिकार, सरकार दिसानदीस लोकांचेर करता ते जुल्म, अत्याचार असले म्हत्वाचे विशय जमनालालांनी आपल्या भाशणांत मांडले आनी तेवूय फावो तशी विसकटावणी करून. स्वतंत्रतायेचें मोल आनी म्हत्व जमनालालांनी चड स्पश्ट करून अधिवेशनामुखार मांडलें. महात्मा गांधीजींच्या असहकार पद्धतीनूच देश स्वतंत्रताय प्राप्त करून घेतलो, असो विस्वासूय जमनालालांनी उक्तायलो.

वेपारी वर्गाक तर तांणी अजापाचेंच आवाहन केलें. 'तुमची जीण सुफळ करपाचो हो परिक्षेचो काळ. तेन्ना उपेक्षा आनी भंयभिरांत सोडून ह्या राष्ट्रीय यज्ञांत वांटेकारी जायात. तुमचे धनदौलतीची समिधांसारकीं ह्या यज्ञांत तुमी आहुती दिली जाल्यार तुमचें सगल्यांचेंच सासणाचें कल्याण जातलें.'

मात्त, अशें आवाहन करतल्या जमनालालजींक खूब सोंसचें पडलें, सुमाराभायर सोंसचें पडलें!

रायबहादूर पदवेपरस देशप्रेमाची निश्ठा व्हड मानून रायबहादूर पदवी तांणी सरकाराक परती केली. कोर्टांतले सगले खटले फाटीं घेवन हजारांनी रुपयांची लुकसाणी सोंसली. घरच्या तलवार, बंदुकांसारक्या हत्यारांचीं लायसंसां तांणी सरकाराक परतीं केलीं.

पूण इतल्यान प्रस्न सोंपलो ना. जमनालालांनी विद्यार्थी, अध्यापक-प्राध्यापक आनी आदोगादांक असहकाराचे चळवळींत वांटो घेवपाचो उलो मारिल्लो. सगल्यांवांगडा चळवळींत वांटो घेवपाक आदोगाद तयार आशिल्लेच. पूण तांचेसयत तांच्या कुटुंबाचें जीवित-साधन जें आदोगाशी तें बंद पडल्यार पयशे कमावप कशेंच शक्य नाशिल्लें. म्हणटकूच तांचेर आनी कुटुंबांचेर उपासान मरपाचीच पाळी येवपाची! पूण ह्या प्रस्नाचेर तांणी बेगोबेग उपाय सोदून काडलोच.

ह्याच अदमासाक म. गांधीजींनी 'स्वराज्य निधी' नांवाचो फंड उबारून एक कोट रुपया जमोवपाचें थारायिल्लें. वकिलांक

मदत करपाच्या हेतून जमनालालांनी ह्या फंडांत आपले एक लाख घाले. दुसऱ्या वर्सा तांच्या लक्षांत आयलें की हो निधी सामको उणो पडटा! रोखडेच तांणी आनीक एक लाख रुपया ह्या फंडांत घाले. केदी कल्पनेभायली दानत ही! खासा कर्णाचो अवतार!!

जमनालालांनी बंदखणींत पडपी सत्याग्रह्यांक लागून तांच्या घरकान्नींक जे कश्ट भोगतात ते नश्ट करपाखातीर वर्ध्यांत एक महिला आश्रम उबो केलो आनी सत्याग्रह्यांच्या कुटुंबांचीं दुख्खां ल्हव केलीं.



१९२०त घरकान्न जानकीदेवी आनी भुरग्यांसयत जमनालाल.
दाव्यान – भुरगीं मदालसा, कमलनयन, कमला आनी उमा.

स्वदेशीचे चळवळीचो आरंब तर तांणी आपल्या घरांतल्यानूच केलो. हे बाबतींत तांची सर फकत महात्मा गांधीजींकडेनूच करूं येता! म. गांधीजींनी जशें 'कैसरहिंद' पदक सरकाराक परतें केल्लें, झुलू, बोअर लडायांवयल्या कामांखातीर मेळिल्लीं पदकांय सरकाराक परतीं केल्लीं, तशीच जमनालालांनी 'रायबहादूर' पदवी सरकाराक परती केल्ली. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या बोअर लडायेउपरांत म. गांधीजींच्या भोवमानाखातीर तांकां दिल्ल्यो भांगराच्यो, हिऱ्यामाणकांच्यो भेटवस्ती आनी कस्तुरबाक दिल्लो पन्नास पवनांचो भांगराचो हार परतो करपावयल्यान कस्तुरबांकडेन

म. गांधीजींचो उप्राशिल्लो वाद आनी जमनालालजींक परदेशी कपड्यांक लागून घरकान्नीकडेन घालचो पडिल्लो वाद ज्यूस्त समासम आशिल्ले आनी निमाणें म. गांधीजींनी सगल्याच वस्तूंचो 'ट्रस्ट' करपाचें थारायतना 'बा'क आपलें म्हणणें मान्य करपांत जशें जैत जोडिल्लें, तशेंच जैत जमनालालांनीय जोडलें आनी स्वदेशीची चळवळ आपल्या घरांतल्यानूच सुरू केली.

जमनालालांनी आपले घरकान्नीक – जानकीदेवीक – म्हळें, "विलायती कपडे, भायलो रोप एकादऱ्या राकेसी दुयेंसावरी देशभर पातळ्ळा! हो रोप म्हळ्यार एक व्हडलें पातक. तें नश्ट करपाकूच जाय. आमच्या घरांत एकूय भायलें लुगट उरपाक जायना."

"पूण तें कशें शक्य आसा?" तांचे घरकान्नीची जमनालालांच्या सांगणेचेर थोडीभोव न्हयकारी, उरफाटी जाप. "घरादारांनी, बाजारांनी, मांडांनी, देवळांनी सगलेकडेन भायलीं लुगटां, भायलो भेस आसा. तो सगलो कसो नश्ट करपाक येता? ताचेपरस आमचो सगलो भेस आनी भायलीं लुगटां गरिबांक वांटून दिल्यार कशें?"

जमनालालजींक मात्त घरकान्नीची ही जाप मात्तूय आवडली ना. तांणी तर्कनिश्ठ पद्धतीन तिका विरोध करीत म्हळें, "म्हणटकूच आपलें पातक दुसऱ्याच्या माथ्यार थापप मुगे?" 'आपपाप भटामाथ्यार' म्हणटात, अशेंच जालें ना हें? हें समा न्हय. ताका लागून मूळ चळवळेचो, भायल्या कपड्यांवेल्या बहिश्काराचो हेतूच नश्ट जावन वतलो. तेन्ना, मूळ पातकच जळोवन ना-नपश्च्यात करून उडोवंक जाय! भायल्या लुगटांची होळी जावपाकूच जाय!"

आनी व्हडा खोशयेची तितलीच अभिमानाची गजाल म्हळ्यार जमनालालजींच्या घरांतल्या 'भायल्या' कपड्यांची होळी जाली. तांचे देड-दोन वर्सांचे अपुरबायेचे धुवेन 'ओम्'न तर आपली विलायती आंगली ते होळयेंत उडोवपाचो आगरोच धरलो आनी होळयेक आगळेंच तेज प्राप्त जालें! बहिश्काराची चळवळ उपरांत देशभर पातळ्ळी.



# ११. सत्याग्रहाचे फुडारी सेनापती जमनालाल

**१९२३** वर्साचो एप्रिल म्हयनो. कांय कामानिमतान जमनालाल एक दीस कलकत्त्यासावन वर्ध्याक वचपाक भायर सरिल्ले. जाल्यार नागपूरांत कांय तरणाट्यांनी तांकां आडायलें आनी आपल्या सत्याग्रहाचें फुडारपण करपाचें मागणें जमनालालांकडेन केलें.

म. गांधी बंदखणींत आशिल्ल्यान तरणाट्या सत्याग्रह्यांमुखार जमनालालांबगर दुसरो चेरो येवप शक्यच नासलें आनी अशा वेळार तरणाट्यांक ना म्हणप जमनालालांक शक्य नासलें. तांणी आठ दिसांची मुदत मागून घेतली आनी दिल्ल्या उतराप्रमाण २२ एप्रिलाक जमनालाल नागपूरांत हाजीर जाले.

त्या वर्सा राष्ट्रीय काँग्रेस ६ एप्रिलसावन १३ एप्रिलमेरेन राष्ट्रीय सप्तक मनयताली. जालीयनवाला बाग हत्याकांडाची याद म्हणून नागपूरकारांनी १९२३ वर्सा एप्रिलाच्या त्या सप्तकांत तिरंगी बावट्यांची एक मिरवणूक काडपाचें थारायिल्लें. पूण सरकारान ताका हरकत घेतिल्ली. देखून, ताचेआड सत्याग्रह करपाचो निर्णय नागपूरकारांनी घेतिल्लो. जमनालालजींक फुडारपण करपाक तरणाट्यांनी खासा आपोवणें दिल्लें, तें ह्याच बावट्यां-सत्याग्रहाचें.

देशांत आनीकूय कांय सुवातींनी अशा बावट्यां-मिरवणुकांचेर सरकारान बंदी घाल्ली, इतलेंच न्हय, तर जबलपूराक इंग्लेज पोलीस अधिकाऱ्यांनी तिरंगी बावटो पायांपोंदा माडोवन तांचो अपमान केल्लो. जमनालालांच्या कानार ह्यो घटना आयिल्ल्यो. राष्ट्रीय निशाण तिरंगी बावटो हें राष्ट्राचें मानचिन्ह आशिल्ल्यान ताचो अपमान म्हळ्यार राष्ट्राचो अपमान अशें जमनालालजींक दिसतालें. अशा वेळार बावट्याची राखण करपाक चालू जाल्ल्या लड्यांत आपणें वांटेकारी जावप हें आपलें नीतीक कर्तव्य, तोच आपलो खरो धर्म अशें जमनालालजींनी थारायलें आनी कसलीच पर्वा करीनासतना बावट्यां-सत्याग्रहाचें फुडारपण करपाचें

निश्चित केलें.

२२ एप्रिलांत नागपूरांत आयलेउपरांत थंयच्या तरणाट्यांकडेन भासाभास करून तांणी एक जाहीर सभा घेतली. सभेक हजारांनी लोकांनी गर्दी केली आनी जमनालालजींचें धीरगंभीर भाषण आयकून तांचे कार्यावळीक मनापसून तेंको जाहीर केलो. १ मे सावन बावट्यां-सत्याग्रह करपाची थारावणी हे जाहीर सभेन घेतली.



१९२३त जमनालाल बजाजांनी पयल्यावयल्या नागपूर बावट्यां-सत्याग्रहाचें जैतिवंत फुडारपण केलें.

तेप्रमाण धा तरणाट्यांचो पयलो पंगड हातांत तिरंगी बावटे घेवन तोंडान 'सारे जहाँसे अच्छा हिंदोस्तां हमारा' हें राष्ट्रीय गीत गायत व्हडा उमेदीन सत्याग्रह करपाक भायर सरलो. रस्त्याकुशीक दोनूय वटयां उब्या राविल्ल्या हज्जारांनी लोकांनी तांकां उर्बेभरीत काळजान येवकार दिलो. उपरांत हज्जारांनी लोकांची ही मिरवणूक झेंडा-चौकांत पावली. थंय लेगीत धा-धाचे तरणाट्यांचे मेळे हातांत तिरंगी बावटे घेवन एका फाटल्यान एक अशे उबे आशिल्ले. गर्दी तर विचारूं नाका! अखिल भारतीय पांवड्यावयलें पयलेंवयलें भोवशीक आंदोलन हें!!

एकेंवटेन राष्ट्रप्रेमान भरिल्ल्या तरणाट्यांचो दीश्ट लागपासारको हो जमो हातांत तिरंगे घेवन, जाल्यार दुसरे वटेन भारताक

सदांकाळ गुलाम दवरपाक सोदपी ब्रिटीश सरकाराच्या पुलिसांचे पंगड हातांत लाठयो घेवन.

पयलीं सरकारान सदांप्रमाण १४४ कलम लावन पळयलें. तेप्रमाण सिव्हिल लायनींत येवरोप्यांच्या वस्तींनी मिरवणूक काडपाक आनी सभा भरोवपाक दोन म्हयन्यांची बंदी घाली. पूण ताका भिवन फाटीं सरल्यार ते भारतीय सत्याग्रही कसले? धा-धा तरणाट्यांचो पंगड बंदी-हुकमाची पर्वा करीनासतना तो हुकूम मोडपाचो हावेस बाळगूनच बंदी घाल्ल्या वाठारांतल्यानूच फुडें फुडें वचपाचो यत्न करपाक लागले ! ब्रिटीशांचे पुलीस चाळवले. तांणी सत्त्याग्रह्यांक लाठ्यांनी पेटपाक आरंब केलो. मारान जर्जर जावन जमनीर पडिल्ल्यांक ते दयामाया दाखयनासतना मातयेंतल्यानूच फरफरीत ओडून व्हरपाक लागले. ताका लागून सत्त्याग्रह्यांक मात्त खेरीत बळगें चडलें. किंवेर उठिल्लेवरी चोंयदिकांनी सत्त्याग्रह्यांचे चोमे येवपाक लागले. १८ जूनाक भोवशीक सत्त्याग्रह करपाची थारावणी जम्यान मानून घेतली.

सरकाराक हाची सुलूस लागली आनी १७ जूनाचे रातींच सत्त्याग्रह्यांचे फुडारी जमनालालजींसयत २५० सत्त्याग्रह्यांक सरकारान अटक केली. कायद्याप्रमाण तांकां कोर्टांत हाजीर केलें आनी कोर्टान जमनालालजी सोडून हेरांमदल्या दर एकल्याक एक एक वर्साची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

आतां पाळी आशिल्ली 'सेनापती जमनालाल' हांकां ख्यास्त फर्मावपाची आनी ताचेवयर तांची प्रतिक्रिया आयकुपाची. जमनालालांनी महात्मा गांधींक स्मरूनच आनी जशें कितें तांच्या पावलार पावल दवरूनच कोर्टांत सांगिल्लें, "हांव सत्त्याग्रह्यांचो फुडारी. देखून, जितली कडक आनी चडांत चड शिक्षा दिवप तुमकां शक्य आसा, तितली कडक शिक्षा म्हाका दियात."

१९२२ वर्सा राजद्रोहाचो आरोप दवरून अहमदाबाद कोर्टांत म. गांधीजींचेर खटलो चलतना कोर्टांत जज्ज ब्रूम फिल्ड हांकां म. गांधींनीय अशेंच सांगिल्लें. तांचेच पूत जमनालाल कोर्टांत स्वाभिमान सोडून दुसरें कितेंय उलयले जाल्यारूच अजाप!

जमनालालांनी देड वर्स बंदखणीची ख्यास्त उमेदीन मानून घेतली, पूण तीन हजार रुपया दंड फारीक करपाक मात्त बिलकूल हयकार दिलो ना. उरफाटें कडक उतरांनी न्हयकार दिलो!

सरकारान दंडाचे रकमेखातीर तांची मोटार आनी घोड्यांगाडी

जप्त केली! तांची पावणी करून येता ते रकमेंतल्यान दंड वसूल करचो, अशें फर्मान काडलें. पूण अभिमान दिसपासारकी गजाल म्हळ्यार पावणेचेर लास (बोली) दवरपाक वर्ध्यांतल्यान, अख्ख्या मध्यप्रांतांतल्यान एकूय मनीस मुखार सरलो ना. इतलेंच



कादयेच्या अधिकाऱ्यांनी 'अ' वर्ग दिवनूय
आपल्या वांगड्यांवांगडा 'क' वर्गांत रावप पसंत करून
बांयचें उदक ओडून काडटना जमनालाल बजाज.

न्हय, एकूय सरकारी अधिकारी लेगीत बोली दवरपाक तयार जालो ना! निमाणें त्यो गाडयो राजकोट काठेवाडांत हाडल्यो आनी थंय कोणेंतरी ब्रिटीश अधिकाऱ्यान सातशेंक रुपयांक त्यो विकत्यो घेतल्यो. तेवेळार 'सौराष्ट्र' नांवाच्या गुजराती पत्राच्या संपादकीयांत संपादकांनी म्हणिल्लें, "वर्ध्यांत आनी पुराय मध्यप्रांतांत

एक्कूय देशद्रोही ना! आतां देशद्रोह्यांचो सोद घेवपाखातीर ह्यो गाडयो काठेवाडांत हाडल्यात."

जमनालालांक कादयेंत तांच्या दर्जाप्रमाण फावो ती बरी सेवा दिवपाचो सरकारी हुकूम आशिल्लो. पूण लोकसेवेच्या नेमाक धरून तांणी भौसावांगडा क-वर्गांतूच रावप पसंत केलें. उपरांत सामान्य कैद्यांप्रमाण कुडीचे कश्ट करपाची तयारी तांणी आनंदान आपणायली आनी चारचौगांसारकें कडदण खावपाकूय केन्ना बारीकसाण केली ना!

जमनालाल आनी तांचे हज्जारांनी वांगडी बंदखणींत पडले, तरीकूय जनतेची शक्त मात्त अजिबात उणी जाली ना, उरफाटी ती दुपेटीन वाडली. १०९ दिसांमेरेन अखंड सत्त्याग्रह चालू उरलो आनी ह्या अखंड सत्त्याग्रहाचें फुडारपण चलयलें भारताचे 'पोलादी पुरुष' वल्लभभाई पटेल हांणी.

ह्या सत्त्याग्रहकाळांत लागीं लागीं दोन हजार सत्त्याग्रही कादयेंत पडले. निमाणें जनतेची खर राष्ट्रनिश्ठा आनी महाकाय शक्त पळोवन सरकार बागवलें! ताचो परिणाम म्हळ्यार १८ ऑगस्टदिसा भर दनपरां १०० आपवावुरपी हातांत तिरंगी बावटे घेवन ते वाऱ्यार हुबयत, घोशणा दियत सिवील लायनीच्या निशिद्ध वाठारांतल्यान मिरवणुकेन भितर सरून 'बंदीहुकूम' मोडून मेकळे जाले! अशेतरेन निमाणें सत्त्याग्रह फळादीक जालो.

सरकार पुरायेन गळसणलें. ३ सप्टेंबराक सरकारान १५०० सत्त्याग्रह्यांसयत जमनालालांक कादयेंतल्यान मेकळें केलें. देशाचे उमेदीक ह्या खिणा भरते भार आयलो. वर्ध्यांत जमनालालजींखातीर दीश्ट लागपासारको येवकार-सुवाळो जालो. येदो व्हडलो सुवाळो वर्ध्यान हाचेपयलीं केन्नाच पळोवंक नासलो. सुवाळ्याउपरांत लोकांनी तांची मिरवणूक काडली.

घरांघरांनी, गांवांगांवांनी आनी शारांशारांनी तोन्नां बांदून त्या तोन्नांतल्यान तांची मिरवणूक काडली. तोन्नांक बांदिल्ल्यो वस्तूय मजेशीर! खंय आयदनांचीं तोन्नां, खंय कपड्यांचीं तोन्नां, खंय पसऱ्यावेल्या म्हालाचीं तोन्नां, खंय भाजयेपाल्याचीं तोन्नां! कसलीं म्हूण नाच्च! हाताक मेळटा त्या मालाचीं तोन्नां. फुलांचे हार तर कितले, ताचो हिशोब नाच्च! असो तो येवकार सुवाळो!

आवयसमान जाणट्या बायलांनी आनी भयणींसमान सवायशिणींनी तांकां उंवाळ्ळें, तांचेर गुलाल, बुको मारलो आनी मिठायेन

तांचें तोंड गोड गेलें.

कांय दिसांपयलींच जमनालाल बंदखणींत आसतना धाकलो पूत – रामकृष्ण – जल्माक आयिल्लो. तेन्ना बापूय कादयेंत आशिल्ल्यान लोकांत व्हडलीशी उमेद नासली. लोकांनी आतां तीवूय उमेद हेनिमतान भागोवन घेतली. बापूय रण जिखून परतल्ले, देखून पुताचें नांव दवरलें रणजीत. (उपरांत कांय दिसांनी लक्षांत आयलें की 'रणजीत' ह्या नांवांत रण म्हळ्यार लडाय येता आनी लडाय तर अहिंसेच्या आड. देखून रणजीतचो जालो रामकृष्ण.)



जयपूर राज्यान प्रजामंडळ अमान्य करतकूच जमनालालांनी खर विरोध करून देशांतले पयलेवयले चळवळींचें बीं घालें आनी जैतीवंत फुडारपण केलें. जयपूर कादयेंतल्यान सुटल्लेउपरांत जमनालालांची जी भव्य मिरवणूक लोकांनी काडली, तेन्ना (१९३९त).

तें कितेंय आसूं, पूण जमनालालजींक येवकार दितना लोकांचे उमेदीक सीममेर नासली, हें मात्त सामकें खरें. कारण तो येवकार आसलो वेपारी, पयशेकार जावनूय लोकसेवेखातीर लोकांमदीं गेल्ल्या आदर्श समाजसेवक जमनालालांक दिल्लो उर्बेभरीत येवकार. देशसेवेखातीर देशाचो फुडारी जाल्ल्या सेनापती जमनालालांक दिल्लो उर्बेभरीत येवकार!

ह्या येवकार सुवाळ्याभायर, सत्कार सुवाळ्याभायर हज्जारांनी

लोकांनी पत्रां धाडून, तारो मारून जमनालालजींक परबीं दिलीं. 'शाब्बास रे म्हज्या बहादूर बनिया! तुज्या पावलांचो उमो घेवचो अशें दिसता!'' मौलाना महंमदअली हांचो हो संदेश हज्जारांनी लोकांच्यो भावना उलोवन वता.

विठ्ठलभाई पटेलांचीं उतरां जमनालालांच्या हेवेळावयल्या व्हडपणाचेर ज्यूस्त उजवाड घालतात – ''देशांत चारूय दिकांनी निर्शेणेचो काळोख, अंधकार पातळिल्लो आसतना जमनालालजींनी एकल्यान त्याग आनी बलिदानाचो उजवाड दिगंतांत फांकारलो.''



# १२. जमनालाल –

# शुद्ध चारित्र्याचे प्रामाणिक वेपारी

जमनालाल बजाजांचो कापसाचो व्हडलो वेपार मुंबयत चलतालो. मात्त ते देशांतले एक खेरीत वेपारी- आशिल्ले. देखूनच, तांणी वेपार धंदो करतना केन्नाच कसलींच फटींगपणां केलीं नात. उरफाटें, आपल्या शुद्ध चारित्र्याकडेन प्रामाणिक रावन वेपार-धंद्याचो एक बेस्स बरो आदर्श हेरांमुखार दवरलो.

कांय प्रसंग लक्षांत दवरपासारके, देख घेवपासारके आसात.

एक प्रसंग असो. बावट्यां-सत्त्याग्रहाखातीर भायर सरचेपयलीं जमनालालांनी तांच्या मुनिमाक सांगून दवरिल्लें, "वेपार-धंद्याचे हिशेब सारके दवरात. प्राप्तीकर चुकोवपाखातीर फटीचे जमाखर्च बरोवं नाकात. सरकारी अधिकाऱ्यांक लांच दिवंनाकात. जें सारकें आसा, खरें आसा तेंच अधिकाऱ्यांक दाखयात. प्रामाणिकपणान धंदो करात."

पूण मुनिमान मात्त जमनालालांचें म्हणणें ह्या कानान आयकलें आनी त्या कानान सोडून दिलें. आपल्या सभावाक धरून हिशबाचें कितें करपाचें तेंच ताणें केलें. आपल्या धनयाक खूब्ब फायदो जावचो, हो हेतूय हे करणेफाटल्यान आसलो.

त्यावर्सा धंद्यांत खऱ्यानीच खूब्ब फायदो जालो. मुनिमान मात्त जमाखर्च सारको दवरलोच ना. प्राप्तीकर अधिकाऱ्यान ८५ हजार रुपया कर बसयलो. मात्त मुनिमाचेर ताचो कांय एक परिणाम जालोना. कारण, ताचेवयलो उपाय ताका खबर आसलो. ताणें सदांचे संवयेक धरून त्या अधिकाऱ्याक धा हजार रुपया लांच दिली आनी प्राप्तीकर ८५ हजारांबदला ८ हजार करून घेतलो!! पळयात ८५ हजार खंय आनी ८ हजार खंय!! मुनीम आपलेभितरच खोशयेन मुरगुटलो.

जमनालालजी बंदखणींतल्यान सुटून आयलेबराबर मुनिमान वेपारांतल्या फायद्याची खबर तांच्या कानार घाली. मुनिमाक दिशिल्लें की आपल्याक बरीऽऽ शाबासकी मेळटली. पूण घडलें उरफाटेंच! जमनालालांक मुनिमाच्या ह्या फटिंगपणाचें हिशबाभायर दुख्ख जालें.

ते सथर-विथर जाले. मुनिमान फटिंगपणान मेळयिल्ल्या ह्या दुडवांचें आतां कितें करचें, हें जमनालालांक समजना जालें. ते गोंदळ्ळे. निमाणें विचार करून करून म. गांधीजींक मेळपाचें तांणी निश्चित केलें. ते साबरमती आश्रमांत गेले आनी घडिल्ली सगली गजाल गांधीजींच्या कानार घाली. घडिल्ल्या फटिंगपणाखातीर कितें प्रायश्चित्त घेवपाचें हाची जाप तांकां महात्माजींकडल्यान जाय आशिल्ली.

गांधीजींनी थोडो विचार करून जाप दिली, "आसा. हाचेर एक उपाय आसा. मुनिमान जमयिल्लो दुडू लोकांच्या कल्याणाखातीर वापरात. इतल्यान मुनिमाक आपली चूक कळटली. तो फुडें केन्नाच फटींगपणां करचो ना आनी ताणें फटिंगपणान जमयिल्लो दुडू तुमी तुमचेलागीं दवरनात हेंवूय ताका कळटलें. दुडू फटिंगपणान जोडपाक तुमी ताका सांगूंक नाशिल्ल्यान आनी जिणेंत पयशांचो हावेस तुमी केन्नाच बाळगूंक नाशिल्ल्यान तुमी मात्त कसलेंच प्रायश्चित्त घेवपाची गरज ना."

महात्माजींनी सांगिल्लें तशेंच जमनालालांनी केलें, तेन्नाच तांचें समादान जालें.

दुसरो प्रसंग आसा कापसाच्या वेपारासंबंदाचोच. मुंबयंत तांचो हो कापसाचो व्हडलो वेपार चलतालो. कापूस विकतो घेवप, तांच्यो गांठी बांदप आनी त्यो विकप असो हो धंदो चलतालो. जमनालालांप्रमाण आनीकूय कांय वेपारी हो धंदो करताले. धंद्यांत भरपूर फायदो जावचो म्हणून ते कापसाचेर उदक मारून तांच्यो गांठी बांदताले. कारण, ताका लागून कापसाचें वजन वाडटालें आनी पयशेय भरपूर मेळटाले. मात्त उदक मारिल्ल्यान कापूस रोखडोच पेड्ड्यार जातालो आनी कांय तेंपान वेपाऱ्यांचें नांवूय पेड्ड्यार जातालें!

जमनालालांक ही खबर आशिल्ल्यान तांणी आपल्या मुनिमाक आनी हेर कामगारांक खर शिटकावणी दिवन दवरिल्ली की खंयचेय परिस्थितींत कापसाचेर उदक मारपाचें ना.

मुनिमाक मात्त तांचें हें म्हणणे पटलें ना. ताणें जमनालालांकै थोडो 'फायद्याचो धंदो' शिकोवपाचो यत्न केलो. पूण जमनालाल एक प्रामाणिक वेपारी आशिल्ले. "फायदो जायना जाल्यार उपकरता, पूण वेपारधंदो मात्त प्रामाणिकपणानूच चलपाक जाय" अशें आपलें प्रामाणिक मत तांणी मांडलें. आपलें म्हणणें चड स्पश्ट करतना तांणी फुडें मुनिमाक जें सांगलें, तें तर सगल्याच वेपाऱ्यांनी, धंदेवाल्यांनी लक्षांत घेवपासारकें आसा. तांणी सांगलें, "आनी जर तुमकां कापसाचेर उदक मारपाचेंच आसा, जाल्यार उदक मारिल्ल्या त्या कापसाच्या गांठींचेर वयर बरयात — W.I.C. (Water In Cloth) आनी उदक मारूंनाशिल्ल्या, सुक्या कापसाच्या गांठींचेर बरयात — B.J. (Bachchraj Jamnalal).

हाचो परिणाम असो जालो की बाजारांतल्यान B.J. छापाचो कापूसच चडावत दुडू दिवन वेपारी घेवंक लागले. आपसूक तांच्या धंद्याक तेजी आयली. घे म्हणून फायद्याचो दुडू तिजोरेंत जमा जावंक लागलो. मागीर हेर वेपाऱ्यांनीय तांची देख घेतली. आनी ल्हव ल्हव करून कापसाचेर उदक मारपाचें बंद जालें. 'सचोटी हीच वेपाराची हातोटी' हें प्रामाणिक वेपार-धंद्याचें तत्त्वगिन्यान जमनालालांनी अशेतरेन हेर वेपाऱ्यांकूय शिकयलें.

जमनालालजींच्या धंद्यांतल्या प्रामाणिकपणाचो आनीक एक प्रसंग.

तांच्या दुकानांत तांच्या कापसावांगडाच हेर जायत्या वेपाऱ्यांचोय कापूस विकपाखातीर दवरिल्लो आसतालो. कापूस घेवपाक येवपी वेपाऱ्यांक कापसाचो नमुनो दाखोवपाखातीर म्हूण दर एकल्याच्या गांठींतलो थोडो थोडो कापूस दर वेळार काडचो पडटालो. हो अशे तरेन भायर काडिल्लो कापूस धा-वीस शेर करतां करतां वर्सभरयाक कितलोसोच मण जातालो. आनी तो विकून आयिल्लो सगलो दुडूय जमनालालजींच्या नांवार जमा जातालो.

मात्त ही गजाल तांकां बिलकूल आवडनासली. अशेतरेन दुसऱ्यांच्या कापसावयली रक्कम आपसूक आपणांक मेळप म्हळ्यार अन्यायान दुडू जोडप अशें तांकां दिसतालें. देखून तांणी मुनिमाक फर्मायलें, "नमुन्याचो कापूस विकून जो दुडू जमा जाता, तो गांठीच्या प्रमाणान सगल्या वेपाऱ्यांक वांटून उडोवचो." मुनिमान तशें केलें, तेन्नाच जमनालालजींच्या जिवाक सू जालें.

वेपारधंद्यांत नव्यानूच भितर सरूक सोदतल्या तरणाट्यांखातीर

जमनालालजींनी जें सांगलां आनी बरोवन दवरलां तें भोव मार्गदर्शक आसा.

१. पुराय अभ्यास केलेबगर कांयच कागदार बरोवं नाकात.
२. फायद्याची खात्री आसलेबगर पयशांची जापसालदारकी आंगार घेवं नाकात.
३. न्हयकार दिवपाक भियेवं नाकात.
४. अनवळखी मनशाकडेन सावधपणान वेव्हार करात.
५. प्रामाणिकपणान चलात आनी प्रामाणिकपणान वेव्हार करात, मागीर फायदो जावं वा ना जावं!
६. एक एक पैचो हिशोब दवरात.
७. वेळाकाळाचें भान दवरात.
८. मनशाची कूड आनी आत्मो हांचे शक्तीचेर विश्वास दवरात.
९. आंग मोडून करपाचीं कश्टाचीं कामां करपाक लजूं नाकात.
१०. स्पश्ट उलोवपाक भिडेनाकात.

जमनालालांनी हीं सगलीं सूत्रां आपले जिणेंत पयलीं आपणायलीं, तेप्रमाण वर्तन केलें आनी मागीरूच हेरांक सांगलीं, देखुनूच तांकां वेगळें वजन प्राप्त जालें.



## १३. हरिजनांक देवूळ उकतें

"तुमी तुमचें देवूळ हरिजनांखातीर उकतें करचें न्हय. तुमचेकडेन हेंच मागपाक म्हूण आमी आयल्यात."

"पूण कित्याक म्हणून –?"

"ताका लागून धर्म बुडटलो, आकांत जातलो."

"पूण हांवें हरिजनांखातीर देवूळ मेकळें केलें ना जाल्यार धर्म बुडटलो, अशी भिरांत म्हाका दिसता."

"बरें आसा. पूण आनीक एक चार वर्सां तरी रावात न्हय. तितलोय थार धरूं जायना?"

"बरें, बरें. पूण तेन्ना तरी तुमी सगले म्हाका सांगात दितले मूं?"

"ना. ना. तें आमचेकडेन जावचें ना."

"पूण हिंदूधर्मांत सांगिल्लो मोगाचो, मनीसपणाचो धर्म तरी मानतले काय ना?"

"हें पळयात. तुमच्या तोंडाक लागल्यार आमी हारतले, हें आमी जाणातच. पूण आमचे फुडारी म्हूण तुमी आमची ही इत्सा मानुंकूच जाय."

"बरें आसा. तुमी म्हाका फुडारी म्हूण मानतात मूं? जाल्यार म्हजी एक इत्सा पुराय करशात?"

"सांगात. आमचेकडेन जावपासारकी आसत जाल्यार अवश्य पुराय करूं."

"तुमी हांगा आयिल्ल्या सगल्यांनी जल्मभर खादी वापरपाचो जर निश्चेव केलो, जाल्यार हांव देवूळ उक्तें करपाचो प्रस्न एक पांच वर्सां मुखार धुकलपाक तयार आसां. आसा तयारी?"

"ना. ना. तें आमचेकडल्यान जावचें ना. वेळार हरिजनांक देवूळ उक्तें करपाक आमी एक पांच वर्सांउपरांत मान्यताय दिवं, पूण खादी..."

"जाल्यार हांव दुसरो एक मार्ग सुचयतां. वर्धा शारांतूच आमी दुसरें एक देवूळ बांदया. अर्दो खर्च हांव करतां, अर्दो तुमी करात. आनी हें देवूळ आमी हरिजनांखातीर उकतें दवरूंया. मान्य?"

"ना, ना. आमकां हें बिलकूल मान्य ना."

"हांवें सांगिल्लें कांय एक तुमकां मान्य ना. मागीर हांवें तरी तुमचें कित्याक मान्य करूंक जाय?"

जमनालाल बजाज आनी तांकां मेळूंक आयिल्ल्या शिश्टमंडळामदीं जाल्ली ही भासाभास. वर्ध्यांतलें लक्ष्मीनारायण देवूळ हरिजनांखातीर उकतें करपाचो आपलो निर्णय जमनालालांनी जाहीर केलो आनी शारांतली कांय प्रतिष्ठित, शिश्ट मंडळी तांकां भेटपाक आयली. पूण जमनालालांच्या निश्चेवाक लागून तांचो हेतू साध्य जालो ना.

दुसऱ्या दिसा त्या शिश्ट मंडळीन आनीक कांय कर्मठ लोकांच्या कानार ही गजाल घाली आनी शारांत एक आकांताची सभा घेतली. सभेन हरिजनांक देवूळ उकतें करपाक विरोध करपी थाराव मानून घेतलो आनी देवळामुखार सत्त्याग्रह करपाचें थारायलें.

पूण जमनालाल कोणाकूच बदले नात! आपल्याक मानवल्लो विचार फुडें व्हरपाची तांची जिद्द आनी तांक अजाप करपासारकीच. देखुनूच साबरमती आश्रमांत आपले व्हडले धुवेचें – कमलाचें – लग्न तांणी रामेश्वर प्रसाद हाचेकडेन करून दिलें. तेन्ना तो सुवाळो कितल्या सादेपणान मनयलो! हुंडो, मान-पान तर नाच्च. पूण सादें वाजपूय ना. बँड तर कुशीकच उरलें. आनी व्हंकल-न्हवऱ्यान लग्नाचे विधी केले ते खादीच्या कपड्यांत. आशीर्वाद दिवंक खुद्द महात्मा गांधी आनी आशीर्वादाचीं उतरां – "धर्माची राखण करात, देशाची सेवा करात."

उपरांत जमनालालजी हरिजनांगेर वतात, तांचेलागीं इश्टागत दवरतात, तांगेर जेवता-खातात म्हूण तांकां जातीभायरे करपाचो यत्न तांच्या लोकांनी केलो, पूण तेन्नाय जमनालालांनी कांयच न्हय करून हो प्रस्न मेकळो केलो.

हरिजनांक भोवशीक बांयांवयलें उदक काडपाक हाडपाक मेकळीक आसपाक जाय अशें जमनालालांक दिसतालें. तांकां सोंपेपणान देवळांत वचपाक मेळपाक जाय, अशेंय तांकां खरायेन दिसतालें. तेसंबंदान आपल्या खाजगी देवळाच्या आनी धर्मशाळेच्या

विश्वस्तांकडेन तांणी उलोवणीं केलीं आनी हरीजनांक बच्छराज धर्मशाळेच्या बांयचेर उदक भरपाक विश्वस्तान मान्यताय दिली. १९२७त आरंब जाल्ली आमच्या देशांतली अशे तरेची ही पयलीच घटना.

अशेतरेन आपलो निश्चेव तडीक पावोवपी जमनालाल शिश्टांच्या सत्त्याग्रहाक भियेवन देवळांत हरिजनांनी प्रवेश करपाचो प्रस्न कुशीक दवरप शक्यूच नासलें.

थारायिल्लेप्रमाण दुसऱ्या दिसा सकाळीं ६ वरांचेर जमनालालजी आनी तांचे कॉंग्रेसींतले इश्ट हरिजनांसयत लक्ष्मीनारायण मंदिरामुखार एकठांय जाले. दुसरेवटेन शिश्ट, सनातनी, कर्मठ लोकांचो जमो जमिल्लो. भासाभास, घोशणा जाताल्यो. वातावरण तापूंक पाविल्लें. दंगलीची शक्यताय दिसताली. पोलीस अधिकाऱ्यांनी जमनालालजींम्हऱ्यांत वचून विचारलें, "कितेंय मदत बी लागतली?" जमनालालांनी साप्प न्हयकार दिलो.

देवळाच्या विश्वस्त मंडळाकडेन तांचीं उलोवणीं चलतालींच. शिश्ट मंडळी मात्त वातावरण तापोवपाचो यत्न करताली. म्हणटां म्हणटां आठ वरांचो वेळ जायत आयलो आनी अजाप घडलें! देवळाचें विश्वस्त मंडळ हरिजनांक देवूळ उकतें करपाक तयार जालें. पूज्य विनोबा भावेंच्या हातांनी श्री लक्ष्मीनारायणाचें देवूळ हरिजनांखातीर सासणाचें उकतें जालें. १९२८ वर्साची आमच्या देशांतली ही एक क्रांतीकारी, जैतीवंत, सुखदिणी घटना!

विनोबाजींनी देवूळ उकतें केलें आनी हरिजनांची दिंडी भजन करीत देवळांत भितर सरली. घांटीच्या आवाजान देवळांत वेगळेंच वातावरण तयार जालें. भजनी मंडळाच्या भजनाक ॐकाराचो सूर लागलो. एकचाराचें खेरीत दर्शन लक्ष्मीनारायणाक घडलें.

हेवटेन हरिजनांक देवळांत वचपाक विरोध करपी कर्मठ चाळवले. तांणी कांय भंगी लोकांक फुलोवन देवळाकडेन धाडले. पूण कार्य इबाडपाचो तांचो हेतू सुफळ जालो ना. भंग्यांक कोणेंच आडायलेंना. तांकांय लक्ष्मीनारायणाचें दर्शन घडलें.

मात्त इतल्यान बोवाळ करतल्यांचें, बोब मारतल्यांचें समादान जालेंना. तांणी बहिश्काराचें शस्त्र भायर काडलें. देवळांतले आदले गुरव, पुजारी, भट-ब्राह्मण, पुराणिक, कीर्तनकार हांकां फितोवन तांकां देवळांत वचपाचें बंद केलें.

पूण जमनालाल अजिबात अनमनले नात. तांणी नव्या विचारांचे

गुरव, पुजारी, भट-ब्राह्मण, पुराणिक, कीर्तनकार नेमले. इतल्याचेर ते थांबले नात. देवळाच्या विश्वस्त मंडळाचेर एका हरिजन वांगड्याचो आसपाव तांणी करून घेतलो. इतलेंच न्हय, जाल्यार आपल्या घरांतूय तांणी एक हरीजन नोकर दवरून घेतलो.

म. गांधीजींनी अहमदाबाद आश्रमांत हरीजन कुटुंबाक आसपावन घेवन लोकांचो विरोध मोडून उडयिल्लो, जाल्यार जमनालालांनी घरांत हरीजन नोकर दवरून एक पावल फुडेंच घालें.

उपरांत कांय वर्सांनी वऱ्हाडांतल्या एलीचपुरांतलें दत्तमंदिर तांच्या हातान सगल्यांखातीर उकतें जालें. त्यावेळार उलयतना तांणी सांगलें, "जो स्वता खाला पडिल्ल्यांक वयर काडटा, पतितांक पावता तो देव हरिजनांच्या सांगातान खाला पडटलो, उणाक जातलो म्हणप म्हळ्यार त्या देवाची विटंबना करप. तेन्ना मनशाक जनावरांपाश्ट लेखप हें धर्मीक तर न्हयच, उरफाटें तें व्हडलें पातक!"

आपुडलिपुड नश्ट करपाच्या वावराफाटल्यान इतले तर्कशुद्ध विचार आशिल्ल्यानूच जमनालाल हो वावर नेटान आनी नेमान करूंक शकले, हें मतींत धरूंक जाय.



# १४. जमनालाल विनोबाजीं सांगाता

नागपूरांत बावट्यां-निदर्शनाचें आयोजन करून ताचें फुडारपण केलें, म्हणून सरकारान १७ जून १९२३ दिसा जमनालालांक अटक केली आनी देड वर्साची सक्त मजुरेची ख्यास्त फर्मायली. वयल्यान आनी तीन हजार रुपये दंड!

उपरांत, १९३२ वर्सा तांकां दोन वर्सां सक्त-मजुरेची ख्यास्त जाली आनी तांकां धुळें कादयेंत दवरलें. मात्त, थंवूय तांणी समाजपुरुश म्हणून मोलादीक वावराची झलक दाखयलीच.

एप्रिलाचो म्हयनो म्हळ्यार उदकाच्या दुकळाचो म्हयनो. पिवपाकूय उदक ना, अशी अवस्ता! जमनालालांनी थंय कादयेच्या वाठारांत एक बंद बांय पळयली. तांणी कादयेच्या अधिकाऱ्यांक सांगलें, "ती बांय उक्ती करात, म्हणटकूच भरपूर उदक मेळटलें." पूण ती बांय उस्तुपाची कोणें, हो प्रस्न आशिल्लोच. जमनालालांनी खिणाचोय विचार करिनासतना अधिकाऱ्यांची परवानगी मेळनाफुडें कादयेंतल्या सांगात्यांक ही गजाल सांगली. सगले तयार जाले आनी बैलांनी ओडपाची मोट लक्ष्मीपूत जमनालालांनी क-वर्गांतल्या कादयेंतल्या सांगात्यांसांगातान ओडली. आंगांतल्यान हुमेच्यो पांवळ्यो गळटाल्यो आनी बांयींतल्यान उदकाचे पाट व्हांवताले.

देखूनच जमनालालजींक केन्नाच पुरो जालें ना. आनी विशेश सर्गसुखाची गजाल म्हळ्यार कादयेंत तांकां पूज्य विनोबाजींचो प्रेरक सांगात मेळ्ळो. विनोबाजींचीं गीता-प्रवचनां आनी 'गीताई' आयकुपाचें भाग्य तांकां हांगाच लाबलें.

विनोबाजींकूय केदे व्हडले आयकुपी मेळिल्ले!

उपरांत, दुसऱ्या म्हाझुजाच्या आड १९४०त देशांत जो सत्याग्रह जालो, तातूंत वांटो घेतिल्ल्यान जमनालालजींक कादयेंत वच्चें पडलें. पर्थून एक फावट तांकां पू. विनोबाजी सांगातान कांय खीण सारपाची मोलादीक संद मेळ्ळी. तांचे पूत श्री. रामकृष्ण

तांचेवांगडा आशिल्ले. ह्यावेळार तांकां नागपूरचे कादयेंत दवरिल्लें.

आपल्या गुरुंच्या पांयांकडेन बसून अध्यात्मिक गिन्यान समजून घेवपाची, अध्यात्मिक सूख मेळोवपाची जी संद जमनालालजींक मेळ्ळी, ताचो उपेग तांकां फुडले जिणेंतूय जावंक पावलो. तातुंतल्यान आत्मसोदाची वृत्ती वाडपाक पावली. अध्यात्माचें चिंतन-मनन करचें अशें तांकां दिसपाक लागलें. फुडें 'यात्रा' करपाचो विचार आयलो. अरविंदाश्रमांत वचप जालें. रमणमहर्षींक मेळप जालें. उपरांत सिमला, डेहराडून. आनी मनाची अस्वस्थताय वाडली तेन्ना मनशांतीखातीर म. गांधीजींचे सांगणेवेल्यान ते डेहराडूनात कमला नेहरूच्यो गुरु माँ. आनंदमयी हांकां मेळ्ळे. तांच्या रुपान तांकां एक सासणाची आवय मेळ्ळी.

म. गांधीजींनी जमनालालांक पांचवो पूत मानलें, हो तांचो जिणेंतलो एक व्हडलो योग. ताका लागूनच विनोबाजी, कस्तुरबा हांचेलागीं तांचो संबंद येयत रावलो, तो वाडत रावलो.

एक फावट जमनालाल विनोबाजींम्हऱ्यांत बशिल्ले. गजाली चलताल्यो, इतल्यान विनोबाजींक एक पत्र आयलें. विनोबाजींनी तें पत्र वाचलें आनी रोकडेंच तें पिंदून उडयलें. जमनालालजींक अजाप जालें. पत्र कोणाचें आसुंये, हाची उमळशीक लागली. देखून तांणी पत्राचे कुडके एकठांय करून अक्षर पळयलें जाल्यार तें म. गांधीजींचें! जमनालालांची उमळशीक चडच वाडली. देखून तांणी पत्राचे कुडके जुळोवन तें वाचपाचो यत्न केलो. पत्रांत बरयिल्लें एक वाक्य खूबच मोलादीक आसलें.

'तुमसे बढकर उच्च आत्मा मेरी नज़र में नहीं है।' (तुमचेपरस व्हड आत्मो म्हजे नदरेन तरी दुसरो कोण ना.)

जमनालालांनी पू. विनोबाजींक विचारलें, "तुमी इतलें म्हत्वाचें पत्र पिंजून उडयलेंशें?" ताचेर विनोबाजींनी सहजतायेन जाप दिली, "ज्या वस्तूंचो म्हाका उपेग ना, त्यो हांव कित्याक म्हूण दवरूं? बापू म्हान मनीस. तांचे म्हान नदरेक हांव जसो दिसलों, तशें तांणी बरयलें हें खरें. पूण म्हजें उणेंपण, म्हजे दोश तांकां खंय खबर आसात?"

पू. विनोबाजींच्या ह्या उतरांचो कितलो खर आनी खोलायेचो परिणाम जमनालालजींच्या मनाचेर जालो, तें तांची फुडली अध्यात्मिक जीण पळयल्यार लक्षांत येता.

पू. विनोबाजींचें तांचे जिणेवयलें मार्मिक उलोवपय खूब कितें

सांगून वता. जमनालालजींसंबंदान विनोबाजी म्हणटात, ‘‘कांय आत्मे इतले विशाळ आसतात की ते एका कुडींत धरनात. तेन्ना ते आमच्या तुमच्या समेस्तांच्या कुडींनी प्रवेश करतात. जमनालाल अशे एक म्हान आत्मे.’’



## १५. निमणी म्हायात्रा

सरभोंवतणी लक्ष्मी वावुरतनाय जमनालाल बजाज केन्ना लक्ष्मीपूत म्हूण मिरयले नात, बच्छराजजींचो गिरेस्त वेपारपणाचो हकाचो वारसो मेळ्ुनूय केन्ना शेठ म्हूण तांणी झेती मारल्यो नात, देशांतल्या भोव मानादीक काँग्रेस पक्षाचे देशपांवड्यावयले पदाधिकारी आनी फुडारी जावनूय तांकां केन्ना मस्ती मारली ना! उरफाटें लोकसेवक म्हूण लोकांखातीर ते दीसरात वावुरले, देशाचे स्वतंत्रतायेखातीर जायते फावट सत्याग्रही म्हूण ते कादयेंत गेले, लोकांच्या हक्काखातीर, स्वाभिमान-सत्त्वाखातीर निमाणेंमेरेन झुजत रावले, मात्त तांचो आत्मो नित्यनेमान आत्म्याच्या सोदांतच गुल्ल आसलो. पन्नासाव्या वर्साकडेन पावता पावतना तर तांकां अध्यात्माची इतली ओड लागिल्ली की ते सामके सथर-विथर जाल्ले, अस्वस्थ जाल्ले!

"म्हाका मरण केन्ना येतलें, तें तुमी म्हाका सांगपाकूच जाय."

"पूण मर्णकाळ कोणाच्यान कसो सांगूं येयत? मात्त एक खरें की मरणाची तरसाद मनशाचे तकलेर सदांकाळ हुमकळत आसता."

"तें बरें आसा, पूण वेळ तरी सांगात न्हय."

"स म्हयन्यांची तयारी दवरून काम करीत रावात."

जमनालाल बजाज आनी मां आनंदमयी हांचेमदली ही भासाभास.

मां आनंदमयींचे सांगणेचेर जमनालालजींचो इतलो घटमूट विश्वास की तेउपरांतचे स म्हयने वर्ध्यांतच रावपाचो निश्चेव जमनालालांनी केलो. हाचेफुडें रेल्वे वा मोटारगाडयेंत बसप ना, अशेंय तांणी थारायलें. १५ आगश्ट १९४१ दिसा तांणी स्वताखातीर मानून घेतिल्ली ही थारावणी १५ फेब्रुवारी १९४२ मेरेनच्या काळाखातीर आशिल्ली. मात्त, तांची मानसिक तयारी खूब्ब पयलींच सुरू जाल्ली.

आपल्या दर एका वाडदिसावेळार जमनालाल आत्मसंशोधन करताले. आपले जिणेचो मार्ग मुदलांत चुकला असो दुबाव तांकां १९३३ पसूनच येवपाक लागिल्लो. १९३८ वर्सा म. गांधींक तांणी बरयिल्ल्या पत्रांतल्यान ह्या दुबावाचो अदमास मेळटा.

"तुमचो आशीर्वाद म्हाका सदांच मेळत आयला. पूण जेन्ना हांव विचार करतां, तेन्ना तुमच्या आशीर्वादाक हांव पात्र ना, अशें म्हाका दिसपाक लागता. म्हज्यांतल्या उणेपणांची जाणविकाय म्हाका जाली, तेन्ना तर आत्महत्येचे विचार म्हज्या मनांत येवपाक लागले. अहिंसा आनी सत्य हांचें आचरण दिसादिसा उणें जायत चल्लां अशें म्हाका दिसता. म्हज्या मनाचें दुख्ख हांव कोणाक सांगूं?"

हेच मनस्थितींत तांणी वेगवेगळ्या संस्थांच्या पदांतल्यान मेकळीक घेतली. पदाधिकारी म्हूण आपल्या पदांचो त्याग केलो. पूण पदांचो त्याग केलो म्हूण लोकसेवेचें काम मात्त तांणी केन्ना सोडलें ना, बंद केलें ना.

जिणेंत इतल्या नेटान, नेमान आनी विसव घेनासतना तांणी काम केल्लें की आतां पन्नाशीक लागीं पाविल्ल्यावेळार कूड थकिल्ली, पूण जमनालालजींचें मन मात्त पयलींइतलेंच पाचवेंचार आसलें.

आतां १९४०त परत एक फावट कादयेंत पडलेउपरांत तांचें मन अध्यात्माकडेन नेटान ओडपाक लागिल्लें. कादयेंतल्यान सुटटकूच तर ते सामके सथरविथर जाल्ले आनी म. गांधीजींचे सांगणेवयल्यानूच मां आनंदमयींक मेळपाक गेल्ले.

डेहराडूनाक जमनालालजींक मां आनंदमयींचें दर्शन घडलें आनी तांच्या रुपान तांकां आवयच मेळिल्लेवरी जालें. थंयच्यान घरा येवचेंच न्हय, अशें तांकां दिसपाक लागलें.

जमनालाल तेमेरेन सदांच म्हणटाले, "म्हाका म्हजे आवयचो मोग आसाच. पूण म्हाका अशीय एक आवय जाय, जिचे मांडयेर हांवें शांतपणान तकली दवरची आनी गिन्यानाची भूक भागोवची."

मां आनंदमयींची भेट घडले उपरांत जमनालालांच्यान रावंक नज जालें. निरोपाच्या वेळार तांणी आपल्या मनांतली इत्सा मांक सांगलीच आनी तांणीय आवयचे मायेन व्हड मनान ती

मानून घेतली. भुरग्यावरी जमनालालांनी मांचे मांडयेर मस्तक दवरलें आनी तृप्तीचें समादान घेवन जमनालाल वर्ध्याक परतले.

आतां तांकां कामार कामां साक्सून घेवपाची ताकतीक लागिल्ली. म. गांधीजींचे आनी मांचे सांगणेन तांणी गायचे सेवेच्या कामाक आरंब केलो. आतां तांकां एक खेरींत मानसिक समादान लाबिल्लेवरी दिसूंक लागलें.

आनी अकस्मात एक दीस म. गांधीजींक एक फोन आयलो! फोनावयल्यान तांकां समजलें की जमनालालजींक ओंकारी आयली आनी तांची सुद्द गेली. हे घटनेक पंदरा मिनटां जाल्यांत आनी आजून ते सुद्दीर आयले नात.

खबर आयकनाफुडें म. गांधीजींच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर पडलीं तीं अशीं – "म्हजी आनी तांची भेट जालीना जाल्यार अनर्थ जातलो!"

आनी घनश्यामदास बिर्लावांगडा महात्माजी जेन्ना वर्ध्याक पावले, तेन्ना खऱ्यानीच अनर्थ जाल्लो! जमनालालांनी निमणो श्वास घेतिल्लो!! ते संवसाराक अंतरिल्ले!!! तो दीस आशिल्लो ११ फेब्रुवारी १९४२चो.

जमनालालजींच्या कुटुंबाचेर तर दुख्खकळा पातळिल्लीच. पूण जंय जंय ही खबर पाविल्ली, थंय थंय आपल्याच घरांतलो मनीस गेल्ल्याचें दुख्ख जण एकल्याक जाल्लें. जमनालालजींचे कुडीचेर महात्माजींची नदर पडली आनी तांचेर मोनेळ पडलो! तोंडांतल्यान उतरां फुटनात जालीं!!

सांजवेळा निमणे म्हायात्रेक आरंब जालो. आख्खें वर्धा शार तातूंत वांटेकारी जाल्लें. रामधून चालू आशिल्ली. मर्दींमर्दीं 'वंदेमातरम्' आनी 'शेठ जमनालाल की जय'च्यो घोशणा चालू आशिल्ल्यो.

धतरेवयल्या एका सूर्याची प्राणज्योत पंचम्हाभूतांतल्या सूर्यांत विरून गेल्ली.

'जानकीदेवी आनी कुटुंबांतलो खरो इश्ट गेलो. बापूजींचो खरो पूत गेलो. देशांतल्या शेंकड्यांनी हजारांनी कार्यकर्त्यांचो बापूय गेलो. कितल्याशाच संस्थांचो राखणदार गेलो आनी आमचो सगल्यांचो सख्खो भाव आमकां सोडून गेलो.' सरदार वल्लभभाई पटेलांचीं हीं उतरां देशाच्यो भावनाच उलोवन गेलीं.

पुराय जिणेंत अहिंसा मानपी, तेप्रमाण वागपी जमनालालजींच्यो आपल्या मरणासंबंदांच्यो कल्पनाय खाशेल्यो आशिल्ल्यो. ते म्हणटाले,

“मरण कशें येवचें? वतल्याक त्रास नात, फाटल्यांक दुख्ख ना. सेवा-चाकरेची गरज पडची न्हय. मरण रातचें येवचें न्हय. कारण ताका लागून वोगीच जागरण जाता. जेवणापयलीं मरण येवप बरें न्हय, ताका लागून लोक उपाशीं पडटात. दनपारचेंय वचप बरें न्हय! कारण, म्हजे सारक्याची जड कूड व्हांवोवन व्हरप म्हळ्यार हुमेन भिजून वचपाचें.”

देखूनच दादा धर्माधिकारी हांणी म्हळें, “मरतनाय जमनालालांनी आपलो सबाव दाखयलो. केन्ना दुयेंत पडले नात, कोणामुखार केन्ना लाचार जाले नात, कोणाकडल्यान तांणी केन्ना सेवा-चाकरी करून घेतली ना.”

जिणेंत जमनालालजींची भरपूर तुस्त जाली, कडक टीकाय जाली. पूण ते गेले तेन्ना मात्त घरचोच मनीस गेल्लेवरी सगल्यांक दिसलें. डॉ. राजेंद्रप्रसादांनी म्हळें, “म्हज्या कामांत तांणी म्हज्या भावासारको म्हाका सांगात दिलो.” पं. जवाहरलाल नेहरूक तर आकांताचें दुख्ख जालें. ‘आमच्या विचार करपाच्या पद्धतींनी खूब वेगळेंपण आसुनूय हांव म्हज्या घरांतल्या आनी भोवशीक कामांनी सल्लो घेवपाखातीर तांचेकडेन वतालों. कारण, म्हज्या अणभवाप्रमाण ते सामके ध्येयनिश्ठ आनी वेव्हारकुशळ अशेच आसले.”

आचार्य काका कालेलकरांनीय तांच्या गुणांचें वर्णन नकसूद उतरांनी केलां. “तांकां कार्य म्हत्वाचें दिसतालेंच पूण ताचेकूय चड म्हत्त्व ते कार्यकर्त्याक दिताले, तांकां आपलेपणान वागयताले.”

सरोजनीदेवी ह्यो एक बायलमनीस. पूण म्हान कवयित्री. तांणी म्हळें, “जमनालालजींमदीं एक म्हींवाळ, नम्र ओडलायणी शक्त आसली. ही ओडलायणी शक्त तांच्या सभावांतल्या म्हींवाळकाय आनी मायेस्त वृत्तींतल्यान निर्माण जाल्ली.”

वर्ध्यांतल्या बजाजवाडीक लोक ‘राष्ट्रीय अतिथी गृह’ म्हूण वळखताले. इतलेंच न्हय, तर स्टेशनाचेर एकादरो मनीस गोंदळ्ळ्यार टांगेवालो ताका बजाजवाडींतच व्हरून सोडटालो. हे घटनेची नोंद घेवन मौलाना अबुल कलाम आझादांनी म्हळें, “तांचें काळीज आनी तांचें घर ह्या दोगांयचे दरवटे राष्ट्रीय कार्यकर्त्यांच्या येवकाराखातीर सदांच उकते आसताले.”

तांच्या सगल्या गुणांचें सार थोडेभितर एका सूत्रांत गुंथतना किशोरलाल मश्रूवालांनी म्हळें, “ते बलवान (कर्तुबी) आसले,

बली (दानशूर) आसले आनी बाल (सादे-सरळ) आसले.''

महादेवभाई देसायांनी जमनालालांक गांधी-भक्त म्हूणच पळयलें. तांणी म्हळें, ''पार्वतीन कठीण तपश्चर्येच्या बळाचेर शिवाक प्रसन्न करून घेतिल्लें. तेवेळार प्रसन्न जाल्ल्या शिवशंकरान म्हणिल्लें – तुवें तुज्या तपान म्हाका विकतो घेतला. मीरा आनी कबीर हांचीय गजाल अशीच. जमनालालजींनी आपलें सर्वस्व दिवन गांधीजींक विकतो घेतिल्लो. आतां कबीर आनी मीरा मध्ययुगीन भक्त, जाल्यार जमनालालजी आधुनिक भक्त.''

म. गांधीजींनी तर व्याकुळ जावन उद्गार काडले. ''म्हजेपुरतें सांगपाचें जाल्यार ते जशें कितें म्हजी कामधेनू. असलो दुसरो पूत हांव आतां खंयच्च्यान हाडूं?''

निमणें, पू. विनोबाजींनी म्हळां तेंच खरें.

''अशें मरण म्हळ्यार जीवितरुप मरण. मरण जिवें आसूं शकता आनी जीवन मरणरूप आसूं शकता. जिवें मरण साप्प थोड्यांच्या वांट्याक येता. जमनालालजींचें मरण तातुंतलें.''



'मनीसपणाचो ताज – जमनालाल बजाज' हें पुस्तक काणयांच्या रूपान बरयलां.

जमनालाल बजाजांनी आपल्या कर्तुबान शेठ बच्छराजजींची वेपारी परंपरा तर गिरेस्त केलीच; वांगडाच प्रामाणिक वेपारी म्हूण वावर पळयतना आपल्या आचारविचारांतल्यान देशामुखार एक म्हान चरित्राचो आदर्श उबो केलो. म. गांधीजींचे पांचवे मानसपूत म्हूण तांचेवरीच स्वातंत्र्य चळवळीचो वावर चलयतना जमनालाल बजाज तांच्या कर्तुबान आनी आंगांतल्या राष्ट्रीय वृत्तीच्या गुणांनी अखिल भारतीय पांवड्यावयले फुडारी जावंक पावले.

प्रामाणिक, स्वाभिमानी, सत्याग्रही, देशभक्त धरून आत्मसंशोधन करपी म्हापुरीसमेरेन अजापित करपी, वांगडाच उर्बा उमेद दिवपी जमनालाल बजाजांची जीण सोंपेपणान समजून घेवपाक हें पुस्तक नेणट्या-जाणट्यांक भोव उपकरा पडटलें, हातूंत इल्लोय दुबाव ना!

ह्या पुस्तकाचे लेखक श्री. कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी हे कोंकणीतले एक ललित लेखक तशेंच साक्षेपी समीक्षक आनी गोंयांतले पुरोगामी सामाजिक चळवळींतले एक निष्ठावान कार्यकर्ते आसात.

तांचो जल्म काणकोण म्हालांतल्यात श्रीस्थळ गांवांत ता. ५ एप्रिल १९४७ दिसा कश्टी शेतकार घराब्यांत जालो. मुळावें आनी शालांत परिक्षेमेरेनचें शिकप काणकोणांत जालें. उपरांत कारवारा आनी मागीर घरचे घरा. तांणी हिंदी विशय घेवन शिवाजी विद्यापीठाची (१९८६) आनी कोंकणी-मराठी विशय घेवन गोवा विद्यापीठाची (१९९१) दोट्टी एम.ए. पदवी जोडल्या. ते भायर राष्ट्रभाषा पंडित, कोंकणी शिक्षक सनद ह्यो पदव्यो मेळयल्यात.

विद्यार्थी आसतना सावन तांणी उलोवप, कविता, कथा, निबंद, नाट्याभिनय-दिग्दर्शन आदि मळार स्थानिक आनी राज्य सर्तींनी इनामांय जोडल्यांत.

१९६८ वर्सा सावन सरकारी शिक्षक म्हूण वावुरता आसतना तांणी कोंकणी शिक्षकांक, सरकारी अधिकाऱ्यांक प्रशिक्षण दिवपाचो वावर केला. गोंयच्या राज्यशिक्षण शास्त्र संस्थेखातीर आनी शिक्षणखात्याखातीर कोंकणी पाठ्यपुस्तकांचें संपादन, लेखन, शिक्षकां खातीर मार्गदर्शिका, राज्य साक्षरता मिशना खातीर प्रौढ शिक्षणावेल्या पाठ्यपुस्तकांची रचना ह्या वावरांत तांणी खाशेलें योगदान दिलां.

आकाशवाणी पणजी, पणजी दूरदर्शन, स्थानिक वर्तमानपत्रां आनी नेमाळीं हातूंत तांणी कोंकणी आनी मराठींतल्यान सातत्यान स्तंभलेखन आनी स्फुटलेखन केलां. तांगेलीं दोन पुस्तकां प्रकाशनाच्या मार्गार आसात.

राष्ट्रसेवादल, साने गुरुजी कथामाला, शिक्षक सहकारी संस्था, शिक्षक संघटना, राष्ट्रीय सेवा योजना, सेवामंच, समता आंदोलन, नवनिर्माण अभियान आदि चळवळींकडेन तांचो लागींचो संबंद आसा. ते भायर शिक्षणीक, सामाजिक आनी सांस्कृतिक मळावयल्या स्थानिक संस्थांचे ते संस्थापक आनी क्रियाशील वांगडी आसात.

कुशळ संघटक, कार्यक्रमाचे यशस्वी सूत्रसंचलक, लोकवेदाचे चिकित्सक अभ्यासक अशी तांची नामना आसा. विवेक, नम्रताय, लोकसंग्रही वृत्ती अशीं तांगेल्या व्यक्तिमत्वाचीं खाशेलीं आंगां आसात.

सध्याक ते गोंय सरकाराच्या 'गोवा कोंकणी अकादेमी'चे सहाय्यक सचिव म्हूण काम करतात.

**अपुरबाय प्रकाशन**